# आठ दोळे बारा हात

(नाटक)

महेश चंद्रकांत नायक



Aat Dhole Bhara Hath
A Konkani Play by-
Mahesh Chandrakant Naik

**उजवाडावपी :**

**अक्षरब्रह्म प्रकाशन**
अक्षरा महेश नायक
घर क्र. २९३, गणेश देवळा मुखार,
सांतिनेज, पणजी - गोंय ४०३००१
भ्रमणध्वनी.: ७३५०३०५५८८

प्रकाशन क्र. - 24

**पयली आवृत्ती :**
मार्च - २०१८

**मुखा वयलें चित्र :**
आश्विन शिवराम कोलगांवकार

**अक्षर जुळवणी :**
निशीता नि. शेट नार्वेकार,
पर्वरी - गोंय (९६०४९४१५३७)

**छापणावळ :**
कॉम्प्युटर ग्राफीक्स
१८ जून मार्ग, पणजी-गोंय.

**मोल : १००/- रु.**

**लेखकाचो नामो :**
महेश चंद्रकांत नायक
घर क्र २९३, गणेश देवळा मुखार,
सांतिनेज, पणजी-गोंय-४०३००१
भ्रमणध्वनी : ७३५०३०५५८८

सुरवातीक बरयिल्ल्यो कविता

जबरदस्तीन तुवें आयकल्यो

वेगळें कितें बरय म्हणलें

म्हूण नाट्यलेखक जालों

म्हजे व्हडले भयणीक

(सौ. शर्मिला शिवराम कोलगांवकार)

हांका अर्पण

- महेश चंद्रकांत नायक

# म्हजीं दोन उतरां...

‘आठ दोळे बारा हात’ हें दोळ्याच्या वॉर्डांतलें दोन वरांचें नाटक. आमी घरांत, सालांत,’ मांडार, रस्त्यार वा हेर जाग्यांनी नाटक पळयतात. पूण हें नाटक एका सरकारी हॉस्पिटलांत, दोळ्याच्या वॉर्डांत चलता. ह्या नाटकांत पेशंट, दोतोन्न, नर्स अशीं सगलीं पात्रां आसात.

‘आठ दोळे बारा हात’ हें नाटक म्हाका कशें सुचलें, कित्या वयल्यान सुचलें हें सांगुंकूच जाय. ह्या नाटकाचें सगलें स्रय म्हजे आवयक वता. कारण तिकाच लागून हें नाटक जल्मांक येवंक पावलां.

जाणटेपण आयलें की’ मनशाची कूड थकता, शक्त उणी जाता, कान पयसावतात, दोळे’ दावतात आनी यादीची शीर फ्राक जाता.’ आतां म्हजें वय जालां. नदर उणी जाल्या’ अशें आमकां जाणट्या मनशां कडल्यान सर्रास आयकूंक येता.  हारसो तोच आसता. पूण ताचेर धुल्ल बसलो की चेरो दिसप कठीण जाता. हारशाचेर चेरो सारको दिसना म्हणून हारसो कोण बदलिनात, न्हय तो बदलपाचोय नासता पूण हारशा वयलो धुल्ल काडून तो निवळ, नितळ करप हेंच आमच्या हातांत आसता. तेन्नाच हारशाचेर आमचो चेरो आमी स्पश्टपणान पळोवंक शकतात.

अशेच तरेची एक घडणूक हालींच घडली. ताचें जालें अशें: दोळ्यांनी बरें दिसना म्हणून आवयक घेवन आमी सरकारी हॉस्पिटलांत गेलीं. मोतीबिंदू जाला, ऑपरेशन करूंक जाय, दोतोरान सांगलें. आमी तयार जालीं. ऑपरेशनाची तारीख थारली. पूण आवयक डायबिटीस आशिल्ली. ताका लागून साकर जेमेरेन नॉर्मल जायना ते मेरेन ऑपरेशन करूंक मेळना अशें दोतोरान सांगलें आनी तिका आठ दीस हॉस्पिटलांतूच दवरली. जितले दीस आवय हॉस्पिटलांत उरली तितलेय दीस म्हाका हॉस्पिटलांत यो-वच करचें पडटालें. थंयचें वातावरण पळयलें, अणभवलें, नियाळ्ळें आनी तातूंतल्यानच ‘आठ दोळे बारा हात’ हें नाटक जल्माक आयलें.

नाटकांतलीं दरेक पात्रां त्या वॉर्डांतच आशिल्लीं. मागीर ती जावं पेडणेंची शांती, क्रिस्तांव सांतान, तरणाटें चली अक्षया वा जावं हेर पात्रां. हीं पात्रां म्हज्या दोळ्यांत भरलीं आनी तींच नाटकाच्या रुपान कागदार देंवलीं, माचयेर चडलीं, पुस्तकरुपान आयलीं.

त्या हॉस्पिटलांत दोतोन्न आशिल्ली, पूण नाटकांत जी दोतोन्न दाखयल्या ती काल्पनिक, मत्र्याची मेवणी काल्पनिक, दोळ्याच्या हॉस्पिटलांत गुरवार बायल येता तेंवूय काल्पनिक. पूण एक बायल टॉयलेटींत बाळंत जाता तें मात सत्याचेर आदारीत.

ह्या नाटकाचे संहितेन खूब प्रवास केलो आनी देखून हें नाटक उजवाडा येवपाक मातसो कळाव जालो. ह्या नाटकाचो पयलो प्रयोग प्रियोळा जालो. म्हाड्डोळच्या बायलांनी तें नाटक सादर केलें. त्या नाटकाक हांव पावलों ना. पूण सांताक्रूजा जाल्ल्या दुसऱ्या प्रयोगाक मात हांवें मुजरत हाजिरी लायली. नाटक पळयतकच नाटकांत कांय त्रुटी आशिल्ल्याचें म्हाका जाणवलें. खूबशीं उतरां गरजेभायलीं जाल्यांत अशें दिसलें. नाटक बसोवप्या कडेन चर्चा केली, पात्रांची अडचण समजून घेतली आनी गरजेभायलीं उतरां काडून उडयलीं. पुराय नाटक परत बरोवन काडलें. म्हज्या इश्टांक घेवन तें बसयलें. उपरांत ताचे कितलेशेच प्रयोग जाले. आनी आयज पुस्तकरुपान तें तुमच्या हातांत दितना मनाक उपाट खोस भोगता.

अक्षया हें पात्र एका दोळ्याक पट्टी बांदून माचयेर वावुरता. जो कोण हें पात्र करतलो ताका घडये त्रास जातलो. पूण ताका उपाय ना. कारण ताच्या दोळ्याचेर पट्टी आसूंकच जाय नाजाल्यार नाटकाक अर्थ ना. संवाद उलयतना ताचेर लक्ष वचूंक जायना. देखून दोळ्या वयले पट्टीचेरूच ताका वक्ल दिलां.

आजी हें पात्र पयलींच्यान वॉर्डांत ॲडमिट आसता. ताका लागून तिका पुराय नाटक हॉस्पिटलाच्या कपड्यांनीच करचें पडटा. नाटकांत चार खाटींची गरज आसा. माची ल्हान आसत जाल्यार प्रेक्षकां वटेन दोन खाटी वापरूं येता आनी 'फाटल्यान लांकडी बांकाचो वापर करूं येता. नर्शीचें टेबल, कदेल आनी वणटी दोळ्याच्या चित्रांनी सजोवं येता.

'आठ दोळे बारा हात' हें नांव आयकतकच जायत्या जाणांक व्ही. शांताराम' हांच्या 'दो आँखे बारा हाथ' ह्या सिनेमाची याद जाले बगर रावची ना. आमोण्यां एका प्रयोगा वेळार एका प्रेक्षकान हें नाटक 'दो आँखे बारा हाथ' ह्या सिनेमा भशेन आसा काय कितें म्हूण म्हाका विचारलें. हांवें भुरगेपणांत तो सिनेमा पळयिल्लो. नांवांत साम्य आसा पूण तो विशय

वेगळो, हो विशय वेगळो. एक मात खरें, नाटक तयार जालें तेन्ना त्या सिनेमाच्या नांवाचो विचार' मनांत घोळटालो पूण म्हजे कडेन' फक्त आठूच दोळे आशिल्ले.

नाटकांत बाळंटीच्या वॉर्डांतली गुरवार बायल दोळ्याच्या वॉर्डांत पावता. बाळंटीच्या वॉर्डांत तिका रावपाक जागो नाशिल्ल्यान ती दोळ्याच्या वॉर्डांत येता. एके तरेचो पेशंट दुसरे तरेच्या पेशंटां वांगडा रावता. हें सरकारी हॉस्पिटलांनी घडूं येता. म्हणून हांवें हो विशय घेतना सरकारी हॉस्पिटलाचोच उल्लेख केला. कांय वेळा अशा हॉस्पिटलांनी गुरवार बायलांक खूब त्रास भोगचे पडटात. जागो नाशिल्ल्यान खंय तरी ॲडजस्ट करचें पडटा. बाळंत जावप हो अस्तुरेचो पुर्नजल्म कसो. णव म्हयने आपल्या पोटांत सांबाळून दवरिल्लो जीव ती जल्माक घालता. अशा वेळार तिका आमी आदार करूंक जाय आनी होच संदेश हांवें ह्या नाटकांतल्यान लोकां मेरेन पावोवपाचो यत्न केला.

आठ दीस आठ दोळ्यांक हांवें फकत पात्रांच लागीं केलीं नात, अक्षयाचो फोन, शांतीची पोती, सांतानाचो जेवणाचो डबो, वणटी वयलीं चित्रां, नर्शीचें पेन, पुठ्ठो, दोतोन्नीचो स्टेथोस्कोप आनी दरेका पात्रांचे संवाद हें सगलें म्हजे झोळयेंत घालें. वतना म्हज्या एका खांदार आशिल्लें आईचें बॅग आनी दुसऱ्या खांदार नव्या नाटकाची झोळी.

-महेश चंद्रकांत नायक

# ‘आठ दोळे बारा हात’

‘आठ दोळे बारा हात’ ह्या नाटकाचो पयलो प्रयोग हांगा श्री गुरु कला मंडळ पिळगांव, प्रियोळ ह्या संस्थेन २६ फेब्रुवारी २०११ ह्या दिसा सादर केलो. ह्या प्रयोगांत वांटो घेतिल्ल्या कलाकारांची नामावळ.

## श्रेय नामावळ

| | |
|---|---|
| बरोवपी | - महेश चंद्रकांत नायक |
| बसोवपी | - अवदूत कामत |
| पार्श्वसंगीत | - उल्हास शांबा गावडे |
| उजवाडा येवजण | - सुनिल मनोहर गावडे |
| नेपथ्य | - काशिनाथ होळकार |

## भुमिका आनी कलाकार

| | |
|---|---|
| आजी | - सपना पांडूरंग आपेव्हाळकार |
| सातांन | - संध्या संतोष गावडे |
| नर्स | - सीमा भि. गावडे |
| शांती | - विमल गावडे |
| अक्षया | - दिप्तीका देवीदास गावडे |
| दोतोन्न | - प्रियांका गावडे |
| रीना | - मिरा तुळशिदास गावडे |
| सून | - प्रियांका पो. गावडे |
| मेव्हणी | - शोभा गावडे |

महेश चंद्रकांत नायक हांणी बरयिल्लें कोंकणी नाट्य साहित्य:
उजवाडा आयिल्लीं नाटकां :

१. ॲक्शन
२. ऑल फॉर यू
३. अॅरेस्ट हिम
४. ॲक्टींग, ॲक्टींग
५. आय ॲम सॉरी
६. ॲक्चुयली.... आय लव्ह यू
७. आत्मो
८. आत्या, आत्या सून कर
९. ओन्ली फॉर यू
१०. आमी ना कमी
११. आय डोन्ट कॅर
१२. ऑल इज वेल
१३. ऑपरेशन डबल गेम
१४. आय हेट यू
१५. अठरा जून
१६. आदार ॲरलायन्स
१७. आटक माटक बायलां नाटक
१८. आयते बांयंत शींव
१९. आलतडचें पिशें
२०. आवय तिरंगी मम्मी फिरंगी
२१. आडामो
२२. आतां तरी हय म्हण
२३. आस्त बाळगितां बाळगितां
२४. आठ दोळे बारा हात

**उजवाडावपाच्या मार्गार आशिल्लीं नाटकां :**
अपुरें स्वातंत्र्य, अक्कलशुन्य, ओस्सम, कानिव्हल

**एकांकी**
ऑपरेशन डबल ए, आदार, आडामो

**नाटकुलीं :**
आमी अशे म्हणून तशे, आमचो खेळ, आयच्यान आळशीपणां नाकात

**एकपात्री :** चेडूं, मिस इंडिया, व्हंकल, मेथी, मातयेचो बावलो, बावली, हांव राधा, रुक्सार, आवय, अपेक्षा, गुन्यावकारी, हांव गरयता.

**कथा :** म्हजें सोना, जोड खातें, ओलो कुकूम, म्हजें कितें चुकलें ?

**अक्षरफुलां बाल दिवाळी अंक – २०१६, २०१७**

# अंक पयलो

(ल्हवू ल्हवू पड्डो उगडटा. सरकारी हॉस्पिटलांतल्या दोळ्यांच्या वॉर्डाचो देखाव. चार खाटी, नर्शीचें मेज. कदेलां, कुशीक टॉयलेटीचें दार. भायर टॉयलेट म्हूण बरयलां. वण्टीर दोळ्यांचीं कांय चित्रां. आजी पासय मारता. नर्स बसल्या.)

**नर्स** : आजये, परत परत खाटी वयल्यान कित्याक उठ्ठा? आनी पासयो शी मारता?

**आजी** : चलूंक जाता जाल्यार पळयतां गो.

**नर्स** : पांयांक कितें जालां तर तुज्या? हांगा तूं पांयांचें न्हय, दोळ्याचें ऑपरेशन करूंक आयल्या. तुज्या दोळ्यांत मोती आयला.

**आजी** : मोती आयला? म्हणल्यार आमचो सुणो म्हाका मेळूंक हांगा आयला (दारा कडेन धांवता) मोती, यो. पळय, हांव हांगा आसां. यो, यो.

**नर्स** : दोळ्या बरोबर हिचे कानूय फुटल्यात दिसता. आजये, भितर यो.

**आजी** : मोती, यो, यो, बिश बिश.

**नर्स** : आजये, बिश बिश......शी, हांव आनी बिश बिश कितें करतां? हिच्या वांगडा रावन हांव पिशें जातलें....जाण्टेले, हांगा यो गे.

**आजी** : (दारांतले नर्शी म्हऱ्यांत वचून) कितें जालां गो? आमच्या सुण्याकूय तूं मेळूंक दिना मगो.

**नर्स** : आगे, तुमचो सुणो मोती येवंक ना. तुज्या दोळ्यांत मोती आयला म्हणी हांव.

**आजी** : जाणा गो. परत परत याद करून दिवं नाका. याद करून दिवपाचीच आसा जाल्यार तुज्या दोतोराक करून दी. तो म्हजो मोती काडचो सोडून म्हजी दाड काडीत.

**नर्स** : दोळ्यांचो दोतोर दाड कित्याक काडटलो? कितेंय उलयतली.

**आजी** : हांवें कितें उडयलां गो? बेश्टेंच म्हजेर घालिनाका आँ. म्हाका कोण बिस्कुत्यो हाडटा ताचीं कागदां हांव कोयराचे बालदेंत उडयतां. तीं घांटी बायलां पान खावन हांगा थंय थुकतात, तांकां सांगिना मगो तूं.

**नर्स** : (वाजेवन) वाज हाडलो हिणें.

आजी : म्हाकाय वाज आयला. आयज तरी म्हज्या दोळ्याचें ऑपरेशन जाता काय कोण जाणा.

नर्स : पयलीं तुजी साकर पळोवंक जाय.

आजी : कातर? कातर घेवन कितें म्हजें पोट कापता? तुमी तसलींच. दुखता एके कडेन आनी तुमी कापतात दुसरे कडेन.

नर्स : आगे, आजये, हांवें म्हणलां तुजी साकर पळोवंक जाय. आतां मातशी ओगी राव आनी जाग्यार बस तुज्या. म्हजो जीव खावूं नाका.

आजी : खंय, कितें खालां हांवें? तुवेंच सांगलां मुगो, आयज ऑपरेशन. कांयच खावं नाका म्हणून.

नर्स : शी....ही आजी वाज हाडटा सामकी. मातशी बस पळोवया जाग्यार. आदींच एका दोळ्यान दिसना तुका. पडली जाल्यार म्हजेर येतलें. चल, बस (आजयेच्या हाताक धरून खाटीर बसयता) हे जाण्टेले कडेन घरचीं कशीं दीस काडटात कोण जाणा.

आजी : तूं म्हाका परत परत बसयता कित्याक गो? म्हाका चलून पळोवंक जाय.

नर्स : तुज्या पांयांक कितें जालां तर?

आजी : ऑपरेशन जालें काय म्हाका धांवूक जाय. (दुसरे खाटी मेरेन धांवता)

नर्स : (हड्ड्यार हात धरून) कसलीं पिशेपणां करता गे? पडिल्ली जाल्यार? धांवपाचे रेसींत वांटो घेतला?

आजी : वाज आयला हांगा रावून. ऑपरेशन जावन केन्ना काय घरा धांवता शें जालां.

नर्स : आमी कितें तुका मुद्दम आडावन दवरल्या? आमकांय कटकट बेगीन गेल्ली जाय. पूण तुजी साकर.....

आजी : परत कातर? तुका बरे भशेन सांगतां हांव. कातर घेवन म्हजें ऑपरेशन करूं नाका. हांव चेड्याक सांगून तुकाच कातरूंक लायतलें.

नर्स : तुजो चेडो गुंडबी काय कितें गे?

आजी : टेलर तो. फॉल लायता, बिडींग करता, ब्लावज शिंवता, चुडीदारूय शिंवता. तुजें कितेंय शिंवूक जाय जाल्यार सांग.

नर्स : कांय गरज ना. तूं तोंड धांपून मातशी ओगी बस. म्हाका काम करूं

दी.

**आजी** : हें मेलें काम करतलें. सरकारी वेपार आनी फुकट पगार. आमी काडटात त्रास. (सांतान ही क्रिस्तांव बायल येता. आजी तिका हाताक धरून भितर हाडटा)

**आजी** : यो गो यो. कोण जाय तुका? खंयच्यान आयलां तूं? बरे भशेन पावलें मुगो? खावपाक कितें हाडलां?

**नर्स** : आजये, ती कितें तुज्या घरा आयल्या गे? जाग्यार बस पयलीं. उठपाक कसलेंय निमित्त जाय हिका.

**सांतान** : (नर्शीक) हो वॉर्ड नंबर दोन झिरो गो?

**नर्स** : हय.

**सांतान** : तूं हिंगासोल्ली नोर्सू?

**नर्स** : ना. नर्शीचे कपडे घालून जमीन पुसपाक आसता. नर्शीचे कपडे वळखुपाक कळना गे तुका?

**सांतान** : सॉरी.

**नर्स** : ॲडमिट जावंक आयल्या मुगे?

**सांतान** : व्होय.

**नर्स** : पेपर दी. (दिता) ते रिते खाटीर राव.

(नर्स रिपोर्ट घेवन मेजा कडेन वता. सांतान खाटीर चडटा)

**आजी** : सिस्टऽऽऽर. माकडीण झाडार चडल्या.

**नर्स** : आगे, तूं खाटीर कित्याक उबी रावल्या?

**सांतान** : तुवेंनूच आत्तां सांवूक ना खाटीर राव म्होण.

**नर्स** : देंव पयलीं सकयल. (सांतान देंवता) हे खाटीर न्हिदपाचें नाजाल्यार बसपाचें. कळ्ळें? सगळीं अर्द तकलेचीं म्हाकाच सांपडटात.

(सामान खाटी पोंदा दवरून सांतान टॉयलेटीच्या दारा कडेन वता)

**सांतान** : टॉयलेट दिसता. (आजयेक) टॉयलेट गे हें?

**आजी** : नाका जाल्लें कितेंय विचारूं नाका. वाचूंक कळना? टॉयलेट तें.

**सांतान** : म्हुजें मांय.

**आजी** : नांव कितें गो तुजें?

**सांतान** : मुगे नांव सांतान कायतान कार्वालो.

**आजी** : खंय रावता तूं?

**सांतान** : पोणजे.

**आजी** : घालता गो लोणचें. एकूच तोराची फोड घालता. आनीक मागल्यार दुवाळे लागल्यात काय विचारता. सुबेज खंयची.

**सांतान** : आगे, लोणचें न्हूय गे. (तिच्या काना कडेन तोंड व्हरून) पोणजे, पोणजे, पोणजे.

**नर्स** : (सांतानाक) आगे, तूं तिच्यावांगडा आडडूंनाका ती दोळ्याचें ऑपरेशन करूंक आयल्या. कानाचें करून वतली.

**आजी** : कितें सांगता गो म्हजें ताका.

**नर्स** : कांय ना. ती आतांच येता थंय आसा. ओगीच तिचो जीव कित्याक खाता?

**आजी** : खंय कितें खालां गो? येदोळच्यान पळयतां तुका हांव खातां खातां करता. (रडटा) पळयलें मुगो कशें त्रास करता म्हाका तें.

**नर्स** : आगे, आतां तूं रडटा कित्याक? आदींच आयकूंक येना तुका. (आजी मोठ्यान रडटा) हिचें आयज तरी ऑपरेशन जाल्यार पुरो. एकदांची कटकट वतली..हांव तुजो रिपोर्ट तयार जालो जाल्यार पळयतां. (नर्स भायर वता)

**सांतान** : रॉड नाकाय गो. ओगी राव..तुगे आज ऑपरेशनू?

**आजी** : म्हजें सदांच ऑपरेशन. ह्या हॉस्पिटलांत म्हाका आयज आठ दीस जाले. म्हजें ऑपरेशन जायना. म्हज्यांत साकर आसा खंय. ती कमी जावंक जाय अशें म्हणटात ते.

**सांतान** : व्होय गो? सारकें? साकोर आसल्यार ऑपरेसांव कोरिनात? राव गे, तुज्यांत साकोर एशें केशें जाली?

**आजी** : कोण जाणा कशी जाली ती. बेश्टी साकर हांव केन्नाच खायना. ल्हान आसतना एकदांच चोरून खाल्ली तितलीच. तीच पोटांत खंय तरी सांठून उरल्या आसतली.

**सांतान** : तूं आनी कित गे? तेन्नाची आतां उरल्या?

**आजी** : हांवें साकरेची च्या लेगीत पिवप सोडल्या. साकर, दूद घालिनासतना काळी च्या पियेतां हांव.

**सांतान** : जाणां मुगे आजये, काळी च्या पिल्यार फूंय आंग काळें जाता.

**आजी** : खऱ्यांनीच? हे धवे केंस आसात ते मातशे काळे जाल्यार पुरो. म्हजें सोड, तूं खंय रावता तें सांगूक ना मगो.

**सांतान** : कितू फाटी सांगलें तुका, पोणजे म्होण.

आजी : मेळटलें गो लोणचें. भिये नाका. जेवणा वांगडा दिताच ती. पापड परवडना तांकां. तें आसूं, तूं खंय रावता तें सांग.

सांतान : हिचें कितें करूं हांव... आजये, हांव मगे लोणचें रावतां ....

आजी : पोणजे?

सांतान : व्होय. हिंगा हो टायमपासाक कॅरेक्टर बोरो आहा.

(अक्षया नांवाचें तरणाटें चेडूं फोनार उलयत येता. ताच्या दोळ्याक पट्टी आसा. ताचेर ताणें काळें गॉगल घालां)

अक्षया : हॅलो, हांव पावलें वॉर्डांत. वॉर्ड नंबर आनी कसलो रे. डबल झिरो. जाणा मरे, म्हज्या दोळ्याक पट्टी बांदल्या...म्हाका मरे लज कशी दिसता. तूं म्हाका हॉस्पिटलांत मेळूंक बी येवूंनाका आँ. प्लीज नाका रे. म्हाका लज जातली. तशें हांवें गॉगल घालां. (आजयेक पळोवन) आवयस्. ह्या वॉर्डांत सगळीं जाण्टींच आसात. म्हजो वेळ कसो वतलो कोण जाणा. चल, दवरतां फोन. मागीर करतां, बाय.... आजये, हो वॉर्ड नंबर दोन झिरो?

आजी : शिरो? पळय ती दिता जाल्यार. हिका येवचे येवन लोणचें जाय पडलें आनी तुका शिरो. तुमकां हॉटेलांत आयिल्ले भशेन दिसता काय कितें?

अक्षया : (सांतानाक) अशी कितें ही जाण्टेली ?

सांतान : आगो, ते जाण्टेलेक आयकुपाक मातशें कमी येता.

अक्षया : हो दोन झिरो वॉर्ड मगे?

सांतान : व्होय, व्होय.

अक्षया : हांगा नर्स ना?

सांतान : ती भायर गेल्या हिगे रिपोर्ट हाडच्याक. तूं बॉस खाटीर.(अक्षया रिते खाटीर बसता)

आजी : खंयच्यान आयलां गो तूं?

अक्षया : कामुर्ली.

आजी : आतां शिरो, मागी रोखडीच कुल्ली जाय पडली? बरी मुगो तुज्या तोंडाक रुच आसा.

अक्षया : आजये, कुल्ली न्हय कामुर्ली. म्हजें घर कामुर्ली. (सांतानाक) हांगा रावन हांव ताळो फोडून घेता दिसता.

सांतान : तुगे दोळ्याक कित जाला गो?

अक्षया : म्हज्या दोळ्यांत चंद्र आयला.

आजी : हें सुटलां. चंद्र रातचो येता. सूर्य आयला आसतलो.

सांतान : आगे, तेगे दोळ्यांत चंद्र आयला फूंय.

आजी : म्हाका दिसलें, दोळ्यांत फकत मोती येता. चंद्रूय येता? जगांतल्यो सगळ्यो सोबीत वस्तू बायलांच्याच दोळ्यांत घुसल्यांत गो बाये.

अक्षया : आजये, तूं बरी उलयली गे बाये.

आजी : जेवली? ना गो बाय. आयज ऑपरेशन म्हजें. म्हाका जेवण ना.

अक्षया : शी. हिचे कडेन उलोवप म्हणल्यार स्वताक त्रास करून घेवप.

सांतान : तूं येयलें तें बोरें जालें. इतू ओगोद हो त्रास हांव एकटेंच सोंसतालें.

अक्षया : तुज्या दोळ्यांत कितें जालां?

सांतान : आमगे जाण्टेपोण मुगो बाय. साठ वोर्सां जालीं की नोदोर कोमी जाता. ऑपरेसांव करून दोळो लिंप केलो काय जालें.

आजी : कितें लिंप करतात गो? आवट्या भशेन कितेंय करूं नाकात आँ. घरा येवंक ना तुमी.

सांतान : नर्स हिगे रिपोर्ट हाडच्याक गेल्या. ती फूंय पावली काय?

आजी : नर्स कितें म्हणटात गो. नर्शीक सिस्टर म्हणूंक जाय.
(शांती नांवाची पेडणें तालुक्यांतली बायल येता. कास न्हेसल्या)

शांती : सिस्टऽऽऽर, ओ सिस्टर. हडे सिस्टर नाय. खडे गेली काय? काय गो बायांनो, काय म्हणटत. बरी आसत मा?

सांतान : बोरीं आसलोलीं जाल्यार हिंगा येवपाचीं?

शांती : ताय सारकां. बरां, आतां म्हाका सांगा, हो वॉर्ड नंबर दोन शून्य?

सांतान : व्होय.

शांती : आवशीक खाव व्हरोन. मेल्यांनी भायर एकूच शून्य बरयल्यात न्हीं.

सांतान : सोरकारी कामां तेसलींच. नांव दिसोना, आंकडो दिसोना, नोशिब, हॉस्पिटल तोरी दिसोता.

शांती : हॉस्पिटलाची सिस्टर दिसना.

सांतान : ती हे आजयेचो रिपोर्ट हाडच्याक गेल्या.

शांती : रिपोर्ट? हे आजयेन कसली परिक्षा दिल्यान?

सांतान : हिगे साकरेचो रिपोर्ट हाडच्याक गेल्या.

शांती : हे म्हातारेक साकर आसत?

आजी : म्हातारी कोणाक म्हणटा गो?

अक्षया : हें बरें आयकूंक आयलें.

आजी : तुका (अक्षयाक) सोडलें जाल्यार आमी तिगांय म्हातारींच. मागीर म्हाकाच म्हातारी कित्याक म्हणप काय म्हणटां हांव.

शांती : ह्या मात एकदम खरां. ह्या एक गोड पाडूक सोडलां तर आमी तिगांय म्हातारींच. पूण आजये, ह्या पण तितकाच खरा की तूं आमच्यान जास्त म्हातारी आसय. राग धरूंक नको गे. म्हातारेक म्हातारी नाय जाल्यार काय नेण्टी म्हणटलंय.

सांतान : एकदोम फॉरें.

आजी : खोरें कित्याक ? म्हाका पुरता ?

सांतान : (मोठ्या आवाजान) फॉरें गे, फॉरें, फॉरें.

आजी : आड्डता कित्याक गो ? आयकूंक येता म्हाका.

सांतान : व्होय. तुगे कान फूंय फुटल्याय ? आमगे फुटल्याय (शांतीक) तुगे नांव कित गो ?

शांती : माझा नांव ? खंयचा ? पाळण्यांतलां काय माटवांतलां ?

सांतान : दोनूय सांग.

शांती : पाळण्यांतलां प्रशांती आनी माटवांतलां शांती.

सांतान : आडनांव सांवूंक ना मुगो, आडनांव सांग.

शांती : खंयचा ? बापाय कडला काय घोवा कडला ?

सांतान : दोनूय.

शांती : बापाय कडलां परब आनी घोवा कडलां पेडणेकार. आतां तुमची वळख सांगात.

सांतान : हांव सांतान कायतान कार्वालो. हांव पोणजेचें.

अक्षया : हांव अक्षया नायक कामुर्लेचें.

शांती : तुज्या दोळ्यांत तरण्या वयार मोती गो कसो इलो ?

अक्षया : मोती न्हय, म्हज्या दोळ्यांत चंद्र आयला.

शांती : हो चंद्र असोच. नाका तेवा येतलय. अंगारकी आसतना केवाच बेगीन येवचो नाय. आता, बघ ह्या पाडकाच्या दोळ्यांत येवन बसला. (आजयेक) म्हातारे, तुजा नांव रावला सांगूचा.

आजी : म्हाका म्हातारी म्हणूं नाका.

शांती : गंमत केली गे. दुसऱ्याक म्हातारी म्हटलं काय स्वता नेण्टी आसल्या सारखं वाट्टां. सांग गे तुजां नांव.

आजी : म्हजें नांव अनामिका.

**शांती** : आरे व्वा! म्हातारीचा नांव रोमाण्टीक.

**आजी** : कितें तीख?

**शांती** : तीख काय आसतलां. हडे कोण कडी रांदूंक बसल्या. हे म्हातारेक कमी आयकूंक येतंय की काय?

**सांतान** : तें अजून गोमोंक ना....भेड्डी ती.

**आजी** : म्हाका भेड्डी कित्याक म्हणटा गो?

**अक्षया** : हें बरें आयकूंक येता?

**शांती** : चोराक चोर म्हटलां काय लगेच आयकांग येता. अनामिका आजी, तूं खंयसून इलंय तां सांवूंक नाय मुगे.

**आजी** : हांव सांखळेची.

**शांती** : आजी सांखळेहून साकर घेवन इली. चलात, वळख जाली. आतां म्हाका सांगात, हो वॉर्ड नंबर दोन शून्य तर भायर एकूय शून्य खेका बरयल्यान?

**अक्षया** : आगे, तुज्या एका दोळ्यांत मोती जाला म्हणून तुका एकूच शून्य दिश्टी पडला आसतलो.

**शांती** : हय गो माझ्या पाड़का, तसाच झालां आसतालां. ही सिस्टर गेली खडे? म्हाका घरा कडे वायत फोन करूंक व्हयो होतो.

**सांतान** : ह्या ओक्सोया कोडे मोबायल आहा.

**शांती** : हय गो? वायत माझ्या घरचो नंबर घुंवडावन दी बघया.

**अक्षया** : सांग नंबर.

**शांती** : राव आँ. कागदार बरयल्यान.
(पोतयेंत कागद सोदता)
खडे गेलो काय तो कागद? हो बघ गावलो, घे.
(कागद अक्षया कडेन दिता)

**अक्षया** : हे कसले नंबर गे?

**शांती** : बघया...आरे! हे ह्यांचे मटक्याचे नंबर. हे पण ना. मटको लायतत आनी पावती माझ्या पोतयेंत टाकतत.

**अक्षया** : मोबायल नंबर दी.

**शांती** : राव बघतंय (पोतयेंत सोदता) हो बघ सांपडलो. घे. (कागद अक्षयाक दिता. अक्षया नंबर लायता)

**अक्षया** : घरचो नंबर बरोवन भोंवता ती नंबर पाठ ना गे?
(मोबायल शांतीक दिता)

शांती : हॅलोऽऽऽ, हॅलोऽऽ मी बोलतंय...मी बोलतंय तुमची बायल. मी दवाखान्यांत पोचलंय म्हण सांगाक फोन केलंय..काय? दवाखान्यांत कशी पोचलंय? कशी म्हणान काय विचारतंय. बशीन बसान इलंय. म्हशीर न्हय, बशीन, बशीन. बोललेला तुमकां आयकांग काय येयनना. मगेर फोन खेका उचललंस? घरांत काय काम करचे नात. बटन कशे फोनाक चिकटान रावतले. झिलाक फोन दे बघया... पिलाक नाय झिलाक. माझ्या चेड्याक. रेड्याक कशे फोन दितले. झिलाक..झिलाक.. काय? झील ना घरांत? बरां सुनेक दी तर. सुण्याक नाय सुनेक.. बोलव...बेगीन..आमच्या यांचे पन आजये सारके कान फुटलेत...हॅलो, काय गो सुने, काय करतंय? ह्या बघ, मी हडे दवाखान्यांत व्यवह्वस्थित पोचलंय. मी नाय तोवर घरा कडे लक्ष ठेव. संध्याकाळ झाली काय शेणयांचो धुंवोर घालूंक विसरांग नगो. घरांत जळारी येतत. फातरार शेणी थापल्यात त्यो घट्ट जाल्यो तर काड. धाकट्याक गरम पाण्यानूच न्हाणांक घाल. खोंपींतलीं लांकडां सारून मडकी गरम कर. कळ्ळां? चल, दवरतंय फोन. बरा करून. घे गो पाडक्या तुजो फोन. (दिता) एक हुसको मेकळो जालो.

सांतान : घोरांत सोगळीं कामां तूंच कोत्ताय?

शांती : मी खेका करतलंय. झिलाक लग्न करून घरांत सून हाडल्यान ती काय बसांक?

सांतान : म्होळ्यार सोगळीं कामां तुगे सून कोत्ता तोर?

शांती : नाय गो. मी पन हातभार लायतंय. तां सगळां सोडून दी. ही सिस्टर गेली खडे? मगा पासून मी उभी आसय. माझी खाट खंयची ती कळांक व्हयी होती.

सांतान : सिस्टर कित्याक जाय गो? सोध्या ही (खाट दाखयता) एकूच खाट रिती आहा. तिगांच बोस तूं.

शांती : असा म्हणतंय. बरा आसा. मी आतां हीच खाट आडयतंय. नायतर वेळार दुसरी कोण येवन बसांग आसा. म्हणटत न्हय आयत्या बिळांत गायडोंळ.

अक्षया : आयत्या बिळांत गायडोंळ न्हय गे. आयत्या बिळांत नागोबा.

शांती : तूं म्हाका शिकांग नको गो. मी तुज्यान मोठी आसय.... खरां मगे अनामिका आजी?

**आजी** : भाजी? भाजी जेवणाक मेळटली. हिका (सांतानाक) लोणचें, शिरो आनी (अक्षयाक) हाका कुल्ल्यो. आतां तुका भाजी.

**शांती** : घराकडे हे आमचे कान फुटके आनी हडे ही. देवान सगळे कानफुटके माझ्याच पदरांत घातल्यान.

**आजी** : म्हजो त्रास जाता तुमकां? आयचोच दीस. आयज म्हजें ऑपरेशन जालें काय जालें. म्हज्या रिपोर्टांत आयज तरी साकर सांपडना जाल्यार पुरो.

**सांतान** : सांपोडची ना. साकर जाल्या म्हारोग. पोसऱ्यार लेगीत गावना.

**शांती** : साकर कमी करूंक एकूच उपाय. कोडू कारातीं आनी लिंबूच्या पाल्याचो रस पिळानघेवंक व्हया.(नर्स येता)

**अक्षया** : ही पळय, नर्स आयली.

**नर्स** : (आजयेक) चल गे, यो तूं.

**आजी** : म्हजो रिपोर्ट आयलो? नर्स : हय.

**आजी** : म्हणल्यार आयज म्हजें ऑपरेशन जातलें?

**नर्स** : तें मागीर पळोवया. पयलीं ऑपरेशन थेटरांत यो.

**आजी** : (सगळ्यांक) बरें, वता हांव.

**शांती** : जातंय म्हणांक नको. येतंय म्हणांक व्हया. तुका काय जालां आनी परत इलीच नाय तर?

**नर्स** : तिका भिवयता कित्याक गे? भियेवन तिची साकर आनीक वाडूंक आसा. आठ दीस जाले ती हांगा आसा.... आनी राव गे, तूं हे खाटीर केन्ना आयली?

**शांती** : मी इलंय तेव्हा तूं हडे व्हतंय? ना मुगो? ही एक खाट रिती व्हती ती मी घेतल्यान.

**नर्स** : हांव हिका सोडून येतां. तुजो रिपोर्ट मेजार दवर.
(नर्स आजयेक घेवन वता)

**शांती** : चला, म्हंजे ही माझीच खाट. आतां माझा सामान पसरून ठेवतंय.
(अक्षया मोबायल लायता. सांतान टॉयलेटींत वता)

**अक्षया** : हॅलो...कितें करता रे? खंय आसा? बाजारांत? हांव हांगा हॉस्पीटलांत बरें ना आनी तूं बाजारांत भोंवता? कितें? मटको लावंक आयला? ए, हांव सांगता तो नंबर लाय. म्हजे खाटीचो नंबर लाय...चार आनी झिरो...चाळीस. नंबर लागलो जाल्यार भेळपुरी खावया आँ...कितें? चंद्र रे? वतलो रे. तूं सदांच म्हणी न्हय म्हाका

चंद्रार व्हरता म्हण. पळय, चंद्रूच म्हज्या दोळ्यांत आयला. (हांसता) चल, दवरता फोन. बरें. (सांतानाची सून येता)

सून : (अक्षयाक) झिरो, झिरो वॉर्ड नंबर होच गो ?

अक्षया : भायर वाचूंक ना ? तुज्या दोनूय दोळ्यांनी मोती जाला दिसता.

सून : हांव तुगे भोशेन पेशोह्नंट न्होय. हांव मुगे सासूमांयक जेवण घेवन येयल्यां. (सांतान टॉयलेटींतल्यान भायर येता)

सांतान : सुने... तूं येयली ? ओक्सोया, ही मुगे सून गो.

सून : हांव तुका जेवण घेवन येयल्या. हें घे. (तिडकीन दिता)

सांतान : सुने, तुवें कित्याक कास्तीक घेतली ?

सून : कास्तीक घेवचीच पडली. तुगे चेड्यान भायरसून फोन मारला. तुका सोदीं हॉस्पिटलांत जेवण पावंक फोर्मायलां, पूण तुका सांगोतां आँ हांव पोत्तून पोत्तून जेवण घेवन येवपा ना.

सांतान : हांवूय तुका तेंच सांगपा सोदी. तूं जेवण घेवन येनाका. हांव हॉस्पिटलाचें जेवण जेयतां.

सून : हॉस्पिटलांतलें जेयताय जाल्यार जेय, पूण पुताक मुगे चाडयो सांगिनाका. फोन येतलो तेन्ना ताका सांग हांव सोकाळ सान दोनूय वेळाचें जेवण, च्यावबाव घेवन येतालें म्होण.

सांतान : बोरें. फोन येतोलो तेन्ना तूं सांगोता तोशेंच सांगतोलें.

सून : रोडोन सांगनाकाय. तुका सोवोंय आहा तेगे फोन येयलो काय रोडोन, रोडोन उलोवपाची. तूं रोडलीं काय ताका फोरेंच दिसोता.

सांतान : सुने, आयज तुवें रांदोलें ?

सून : मागीर आनीक कोण रांदतोलो ? वावराडी आहा ? तूं येवन हांगा न्हिदोल्या. चोय, रोगड्यार मिरसांग वांटून वांटून मुगे नाकटां झोरलीं. तुगे ऑपरेसांव केन्ना तें सांग ?

सांतान : फाल्यां आसोत.

सून : बेगीन जावं दी. म्हाका जोमोनात सोगळीं कामां. घोरचीं कामां कोरतां कोरतां म्हाका रोडोंक येता.

सांतान : दोन दिसांक फूंयूय वावराडी मेळटा जाल्यार चोय गो.

सून : तूं आसतना वावराडी कित्याक जाय ? दोन दिसांचीं कामां तूं यो आनी कोर.

सांतान : तुका एकट्याक रांदोचें पोडटा म्होण म्होणी.

सून : हांव आतां भायरूच जेयतां. म्हाका नाका तीं रांदचेकुडींतलीं

कामां. वोयता हांव. पोयशे दिल्यात ते पुरो मुगे काय आनीक जाये?

**सांतान** : पुरो. सोरकारी हॉस्पिटल हें. हिंगा चोड पोयशे लागोनात.

**सून** : लागोना म्होण म्होणनाका.. घोरा येवन म्हाका सोगळो हिशेब दी.

**सांतान** : बोरें.

**सून** : वोयता तोर हांव. (सून वता)

**शांती** : काय गो सांतान, ही सून तुजी?

**सांतान** : व्होय.

**शांती** : सासूमांयकडे कसा बोलांक व्हया तां ताच्या आवशेन शिकोंग ना गो ताका?

**सांतान** : हांव हॉस्पिटलांत आहा म्होण तेका टॅन्शन येयलां.

**शांती** : तूं हॉस्पिटलांत आसा म्हणान न्हय. तुझा सगळा काम ताचेर इला म्हणान. घराकडे सगळीं कामां तूंच करतंय मुगो?

**सांतान** : ना गे... कोत्ता तें.

**शांती** : तां ताचा तोंड बगल्यार कळटा. तूं ताका माथ्यार चडान दवरलां आसतलां. माझ्या घराकडे ये आनी बघ माझी सून. उठ म्हणटा तेव्हा उठ्ठली आनी बस म्हणटा तेव्हा बसतली.

**सांतान** : आसूं गो आतां तेगे टॉपिक नाका. म्हाका सांग, तुमी सोगळीं फूंय जेयतलीं?

**शांती** : माझा बरां आसां. मी हडे हॉस्पिटलांतूच जेयतलंय. तशी म्हाका हॉस्पिटलाची संवय आसा. माझा एका दोळ्याचा ऑपरेशन हडेच जालां. ह्या हॉस्पिटलाचो कोनशान कोनसो मियां जाणंय.
(भायरसून आजी रडत येता)

**आजी** : फटींग, फटींग सगळे. आमकां गरिबांक फटयतात तुमी.

**अक्षया** : आजये, कितें जालें गे?

**आजी** : आयजूय म्हजें ऑपरेशन जावंक ना.

**सांतान** : कितें? तुगे ऑपरेशन जावोंक ना? मागीर तुका ऑपरेशन थेटरांत कित्याक व्हेली तोर?

**आजी** : नाचूंक व्हेल्ली. घुमचे कटर घूम (नाचता)

**अक्षया** : आजये, सारकें सांग गे. फकांडां करिनाका.

**आजी** : फकांडां हांव करतां? फकांडां ताणी म्हर्जी केल्यांत. ते नर्शीन भितर व्हरून परत रगत काडलें. अजून म्हजी साकर कमी जावंक ना खंय.

अशी कशी गो साकर कमी जावंक ना?
(शांतीच्या खांदार तकली दवरून रडटा)

**शांती** : रडांग नको गे. दोतोर काय करतलो ता तुज्या बऱ्याकूच करतलो.

**आजी** : (शांतीक धुकळून) काय बऱ्याकूच करतलो? हांव हांगा आयल्या दोळ्याचो मोती काडूंक पूण आयिल्ल्याक पळयतां हांव. हीं फकत म्हजें रगत काडटात. म्हजें रगत सोंपून फकत हाडांच उरतलीं. (रडटा, रडटां अक्षयाच्या खांदार पडूंक सोदता. अक्षया ताचे पयलीं टॉयलेटींत धांवता. शांती तिका आपले वेंगेंत घेता)

**शांती** : शांत राव गे. जातालां आज ना उद्या ऑपरेशन.

**सांतान** : रोड नाकाय गे. उमेदी जा. तुका हिंगा आनीक रावोंक मेळ्ळें ना?

**आजी** : भोंवूंक मेळ्ळें? हांव कितें हांगा भोंवपाक आयलां गो? कितेंय उलयनाका आँ सांतान. सांगता तुका बरे भशेन.

**सांतान** : ऑपरेशन थेटरांत तूं गेल्लीच. दोळ्याचें जालें ना जाल्यार कानाचें तोरी कोरून घेवपा न्हू?

**आजी** : म्हणात. आतां म्हाका भेड्डी म्हणात.... वाज आयलो म्हाका.

**शांती** : चाळवांक नाका गे. जातालां ऑपरेशन. आमच्याच वांगडा जालां तर आणखी बरां जालां.

**आजी** : ऑपरेशन करतली म्हण सदांच म्हाका उपाशी दवरतात.
(रडटा)

**शांती** : रडांक नाका गे. आतां काय तरी खावन घे बघया.

**आजी** : उपाशी पोटार रावण घे कितें म्हणटा गो?

**शांती** : रावण नाय गे. खावन घे म्हटलां. पोटाक काय तरी खावन घे.

**आजी** : आतां भूक मेली म्हजी. आतां सोमतें जेवतां. आयज ऑपरेशन जाल्लें जाल्यार एक हुसको मेकळो जावपाचो.

**सांतान** : ऑपरेसांव कोत्ताना भिरांत दिसोता गो?

**शांती** : तुजां पयल्यांदाच की काय गो?

**सांतान** : व्होय.

**शांती** : काय नाय गो. दाड काडटत तसो मोती काडटत. काडटना काय बी कळना नाय. एका दोळ्याचा केला काय सहा म्हयन्यांनी दुसऱ्या दोळ्याचाय करुचा लागता.

**सांतान** : म्होणल्यार? स म्होयन्यांनी पोत्तून हिंगा येवपाचें?

**शांती** : मगेर, ह्या जालां काय सुनेक वावराडी सोदूंक लाय.

(दोगांय हांसतात)

**आजी** : म्हाका हांसतात क़ाय कितें गो ?

**शांती** : नाय गे. दुसऱ्यांच्या दुख्खांत हांसपाची संवय नाय गे आमकां. आजये, तूं काय पन काळजी करूंक नगो. जगांत काय जाता तां बरांच जातां. चल, तूं चार घांस खावन घे.

**आजी** : हांव मांस खायना. फकत नुस्तें खातां.

**सांतान** : आतां सोगळीं सांकवार गरोवंक या.

(नर्स येता)

**नर्स** : कोण खंय वता ? कोणेंच खंयच वचप ना.

(अक्षया टॉयलेटींतल्यान भायर येता) तूं खंय गेल्लें गो ?

**अक्षया** : टॉयलेटींतूय वचप ना ?

**नर्स** : आपापल्या जाग्या वयल्यान उठू नाकात. आतां दोतोर येतलो. (शांतीक) तुजो पेपर दी गे.

**शांती** : माझ्या कडे नाय गो पेपर. म्हाका खडे वाचूंक येता. पन काय इला गो पेपरांत ? कोण मेलो ?

**नर्स** : कोण मरूंक ना.

**शांती** : आमी पेपर बघतो. फकत मेल्ल्यांचे फोटो बघूंक.

**नर्स** : आगे, म्हाका तुजो हॉस्पिटलाचो पेपर पळोवंक जाय.

**शांती** : तो तुज्या मेजार ठेवल्यान. तातूंत बरयलां माझ्या दोळ्याक मोती जाला. तो बेगिनांत काडूंक व्हयो. नायतर मी कुड्डी जातली.

**नर्स** : तुका वाचूंक येना, पूण म्हाका येता. हांव पळयतां..आजये, तूं सकाळच्यान उपाशी आसा मुगे ? भायर कितेंय खावन यो.

**आजी** : कोणाक पावन यो ? आतां तूंच म्हाका मसुंडेंत पावन यो.

**नर्स** : आयकूंक येना आनी कितेंय उलयतली.

**अक्षया** : आजये, तें तुका कितेंय खावन घे म्हणटा.

**शांती** : ती आमचो जीव खाता तितका पुरे.

**नर्स** : तूं तुजी बडबड कमी कर गे. घरा येवंक ना तूं.

**शांती** : मी खडे म्हटलंय मी घरा इलंय म्हणान. तूं कर तुजा काम.

(नर्स मेजा कडेन वचून आपलें काम करता)

**अक्षया** : (शांतीक) शांती आई, मातशी ओगी राव गे. कित्याक नर्शीक तापोवंक लायता.

**शांती** : पन हे नर्शीक पुन्हा–पुन्हा तापांक खेका व्हया. बरा म्हण ना. तापत

आसतालां.

**अक्षया** : बॉयफ्रॅण्डाचो राग आमचेर काडटा दिसता.

**शांती** : तुका बरी म्हायती आसा मां.

**सांतान** : तेंवूय आपल्या बॉयफ्रॅण्डाचो राग दुसऱ्याचेर काडटा दिसोता.

**अक्षया** : कितेंय उलोवं नाका गे.

**आजी** : आनी तुवूंय ते नर्शी विशीं कितेंय उलयनाका. लग्न जालां तें.

**अक्षया** : ही आजी कितेंय सांगतली. आंकवार तें. गळ्यांत मंगळसुत्र खंय आसा ताच्या?

**शांती** : आगो, म्हज्या पाडका, ह्यो नर्शी गळ्यांत, नाकांत, कानांत काय घालनत. म्हणजे ड्युटेर आसतना कांय घालनत.

**सांतान** : मागीर केशें गोमतलें तें काजार जालां काय ना तें?

**शांती** : मी आसय तां. मी इचारतंय.

**आजी** : तुमकां लोकांचें कित्याक पडलां गो?

**शांती** : आगे, आमच्या पेडण्यात रेडे कशे वाडलेले चेडे भरपूर आसत. कोणाक तरी ह्याचा उतर घालूंक मेळटाला. मी इचारतंय.

**आजी** : (अक्षयाक) हें ताचे कडल्यान गाळयो खातलें पळय.

**शांती** : (नर्शी म्हऱ्यांत वचून) गो नर्शी.

**नर्स** : कितें जालां गे? जाग्या वयली कित्याक उठली?

**शांती** : तुका नर्शी म्हटलां म्हणान राग इलो? सिस्टर म्हणटय.

**नर्स** : जाग्या वयली कित्याक उठल्या ती सांग?

**शांती** : तुज्या कडे वायत बोलांक व्हया होता. म्हणजे काय विचारूंक व्हया होता.

**नर्स** : कितें?

**शांती** : तुजा लगीन जालां काय गो?

**नर्स** : (तापून) कित्याक तुका म्हज्यो चवकशी.

**शांती** : आगो, हे अनामिका आजयेन तुका सोयरीगत हाडल्यान.

**नर्स** : म्हाका नाका तिची सोयरीगत. तिचे भशेन तिचें घराणेंय भेड्डें आसतलें.

**आजी** : म्हाका कित्याक मर्दीं घालता गो? तुजे खातीर ताणें म्हज्या घराण्याक भेड्डें म्हणलें.

**शांती** : म्हाका एक कळना नाय भेड्डी हो एकूच शब्द तुका आयकांग कसो

येता ?

आजी : तूंच येदोळ म्हणी मुगो. चोराक चोर म्हणल्यार रोखडेंच आयकूंक येता म्हण.

शांती : झक मारली आनी असा काय तरी म्हटला...सांग गो सिस्टर, जालां काय गा तुजा लगीन ?

नर्स : ना. जावंक ना.

शांती : नाय जावंक ? बघांग व्हयी तुका सोयरीगत ?

नर्स : हें करपाक आयल्या तूं हांगा ? चल, जाग्यार बस आनी तोंड बंद दवर. दोतोर येवपाचो वेळ जालो. चल पयलीं जाग्यार.

शांती : जातंय गो. मी काय हडे रावोंक इलंय ? जी माणसां हडे भेट्टा, तांची विचारपूस करूंक व्हयी. दोळ्यांत मोती इलो काय तो हडेच काडून इथली नवीन ओळखी दोळ्यांत घेवन घरा जावंक व्हया. (बसता)

अक्षया : सिस्टर, म्हजो चंद्र केन्ना वतलो ?

शांती : आगो पाडका, रावानी गो चंद्राक दोळ्यांत.

अक्षया : कित्याक ?

शांती : अंगारकी इली काय तुज्या दोळ्यांत बघून जेवांक मेळटलां. (हांसता)

नर्स : आगे, केद्या मोट्यान हांसता ? हॉस्पिटल हें. तुजी बडबड बंद कर.

आजी : हांगा आयिल्ल्याक बडबडटा तें. घरा आयिल्ले भशेन.

शांती : मी घरा कडल्यान पोट भरून इलंय म्हणान बडबड करतंय. तूं सकाळच्यान उपाशी आसय मुगे ?

आजी : आमगेर म्हशी नात.

शांती : सिस्टर, हिचा दोन ऑपरेशन करात. एक दोळ्याचा आनी दुसरा कानाचा.

नर्स : तूं तोंड बंद करून जाग्यार बस गे.

शांती : गप्प रावांक म्हाका जमना नाय. पोट भरलेल्या म्हशीक रवंथ करूची आडावं येता ?
(दोतोन्न येता. येतना मोठ्यान हांसता. आजी आनी नर्स सोडून तिगांय भियेतात. अक्षया भियेवन किळांच मारता. एकामेकांक धरतात. दोतोन्न किळांच आयकून परत भायर धांवता. कांय वेळान ल्हव ल्हव येता)

दोतोन्न : (नर्शीक) कितें जालें गो ? कोण मेलो ?

नर्स : दोळ्यांच्या वॉर्डांत कोण मरतलो?

दोतोन्न : किळांच कोणें मारली तर?

नर्स : (अक्षयाक दाखोवन) ह्या सवंगान ती.

दोतोन्न : (अक्षयाक) कित्याक आड्डता गो?

अक्षया : तुमी हा हा करून केद्या मोठ्यान हांसतात.

नर्स : तोंड सांबाळून उलय गो. दोतोन्न मगो ती.

शांती : दोतोरीण?

दोतोन्न : हय. हांव तुमची दोतोन्न. कशीं आसात तुमी सगळीं?

सांतान : बोरीं आसलेलीं जाल्यार हिंगा येवपाचीं?

दोतोन्न : (हांसता) हय, तेंय सारकें. आजये, कशी आसा गे तूं?

आजी : हय. आयजूय साकर आसा. कोणें सांगलां तुका? हे नर्शीन? सगळ्यांक सांगीत भोंवता तें. चाडयाळें खंयचें.

दोतोन्न : (हांसता) ही आजी बरीं फकांडां करता न्हय?

सांतान : तूं आमगे फोकांडां कोरिनाकाय. सारके दोळे चोय.

दोतोन्न : एस. एस. सगळीं जाग्यार बसात. (बसतात) पयलीं हांव हे बायक (अक्षयाक) पळयतां.

अक्षया : हांव बाय न्हय. म्हजें नांव अक्षया.

दोतोन्न : अक्षया, दोळे पळोवया. (हांसता)

अक्षया : दोतोन्न, म्हज्या दोळ्यांतलो चंद्र केन्ना वतलो?

दोतोन्न : सकाळीं.

अक्षया : तुमी म्हजीं फकांडां करतात?

दोतोन्न : फकांडां तूं करता. दोळो बांदला आनी ताचेर गॉगल कित्याक घालां?

अक्षया : दोळ्याचेर धवी पट्टी पळोवन म्हाका लज दिसता. ती लिपोवपाक हांवें काळें गॉगल घालां.

दोतोन्न : तुका दोळ्याचे पट्टेची लज दिसता जाल्यार सोडय आनी तकलेक बांद. (हांसता)

शांती : सिस्टर, ही दोतोरीण बरी आसय मां. तूं उगाच आमकां भंय दाखयलो. आमकां हिका बघून मात लेगीत भंय दिसांक ना. दात काडून हांसला काय वायत काळीज वयर येता. पन बाकी दोतोरीन बरी आसय. म्हणटात ना खोदा पहाड, निकला बेडूक.

**अक्षया** : तशें न्हय. खोदा पहाड, निकला चुहा.

**शांती** : चिंचुदरे, तूं म्हाका शिकांग नगो. मी तुज्यान मोठी आसय.

**दोतोन्र** : वयान काय आंगान? (हांसता) आतां आजयेक पळोवया. बरी मुगे आजये?

**आजी** : सांखळे रावता गो. (दोतोन्र हांसता. आजयेचे दोळे तपासता)

**दोतोन्र** : आजये, कितले दीस जाले हॉस्पिटलांत?

**आजी** : खंयच्या मशणांत?

**दोतोन्र** : मशणांत न्हय. हॉस्पिटलांत कितले दीस जाले काय विचारतां.

**आजी** : तुजे हे नर्शीक विचार. कितले दीस रगत काडले काय म्हूण.

**दोतोन्र** : तुजी सद्दां साकर वाडटा मुगे.

**आजी** : कोणें वाडलां? फटींग ती नर्स. ऑपरेशन आसा म्हण कांयच खावंक दिवंक ना.

**दोतोन्र** : हिचे म्हऱ्यांत रावन म्हजें हांसप वाडटा.

**आजी** : तूं वाडटा? नाका. म्हाका वाडून घेवंक कळटा.

**दोतोन्र** : चल, हात धुवन यो तर.

**आजी** : बरें.

(आजी टॉयलेटींत वता. दोतोन्र हांसता)

**दोतोन्र** : हिच्या वांगडा तुमचो टायमपास बरो जाता आसतलो. न्हय?

**सांतान** : टायमपास फूंयचो? तिच्या वांगडा आड्डून आमचो ताळो फुटोंक येयला.

**दोतोन्र** : ताळो फुटल्यार जाता, दोळे फुटूंक जायनात. (हांसता) आतां तुजे दोळे पळोवया.

(दोळ्यांत टॉर्च घालता) फाल्यां करया तुजें ऑपरेशन.

**सांतान** : फाल्यां? फाल्यां कित्याक?

**दोतोन्र** : फाल्यां म्हूर्त बरो आसा. (हांसता) आगे, तुका दोळ्यांतलो मोती काडिल्लो नाका?

**सांतान** : व्होय. काडूंक जाय तोर. पूण रोखडोच?

**दोतोन्र** : तुकाय हे आजये भशेन आठ दीस काडपाचे आसात? (शांतीक) आतां तुजे दोळे पळोवया गे.

**शांती** : बघ, बाये बघ.

**दोतोन्र** : बरे मुगे तुजे दोळे, इल्लेशे.

**शांती** : म्हस केवडी पन आसली तरी तिचे दोळे तेवढेच आसतले.

**दोतोन्न** : ही बायल स्वताक म्हस म्हणटा. (हांसता)

**शांती** : दोतोरीन बाई, एक सांगतंय म्हण राग धरू नाका. तुमच्या ह्या हांसण्याच्या रोगावर तुमी काय तरी करूंक व्हया.

**दोतोन्न** : हो रोग न्हय, रोल हो.

**शांती** : म्हणजे ?

**दोतोन्न** : म्हाका नाटकांत रोल आसा. आमचे कॉलनींत बायलांचें नाटक आसा. तातूंत हांव राक्षीण जाल्या. डायरेक्टरान सांगलां, नाटक जायसर हांसत राव.

**शांती** : त्या डायरेक्टरान तुज्यांत राक्षिणेचा बघलां तरी काय ?

**दोतोन्न** : हांव दोतोन्न. तोपूंक जाणां, कातरूंक जाणां, मारूंक जाणां. म्हणून ताका दिसलें राक्षिणीचो रोल करूंक हांवूच योग्य.

**अक्षया** : नाटक केन्ना ?

**दोतोन्न** : चार दिसांनी.

**शांती** : म्हणजे आणखीन चार दीस तूं अशी हां हां करून हांसत दवाखान्यांत फिरतलंय ?

**दोतोन्न** : हय तर.

**सांतान** : कित्याक लोकांच्या जिवार उठल्याय गो ? तुगे हांसप आयकोन कोणूय अ‍ॅटॅक येवन मोरोत.

**शांती** : माझा उद्याच ऑपरेशन जावंक व्हया. हे राक्षिणीचा हांसप आयकान मी मरांक आसंय.

**दोतोन्न** : खऱ्यांनीच ? तुका म्हज्या हांसपाचो इतलो भंय दिसता ? तशें जाल्यार म्हजो राक्षिणीचो रोल बरोच जातलो.

**शांती** : जावंकूच व्हयो. आतां माझा ऑपरेशन केव्हा तां सांग.

**दोतोन्न** : फाल्यांच.

**अक्षया** : दोतोन्न, म्हज्या दोळ्या वयली ही पट्टी केन्ना सोडयतलीं ?

**दोतोन्न** : चंद्र फाल्यां गेलो जाल्यार फाल्यांच.

**अक्षया** : चंद्र वचपाक हांव कितें करूं ?

**दोतोन्न** : सुर्याक उलो मार. (हांसता) सिस्टर, वता हांव. न्हिदचे पयलीं सगळ्यांच्या दोळ्यांत थेंबे घाल.

**नर्स** : दोतोन्न, ऑपरेशन जावन थेंबे घालप न्हय ?

**दोतोन्न** : हय.

नर्स : मागीर ? हांचें ऑपरेशन खंय जालां ?

दोतोन्न : फाल्यां तांच्या दोळ्यांर पट्टी आसतली म्हणून आयजूच घालून दवर. (हांसता)

नर्स : दोतोन्न, तुमी कितली हुशार.

दोतोन्न : हुशार म्हणून हांव दोतोन्न जाली नाजाल्यार नर्स जावपाची. चल, येतां हांव. ही आजी भितर अजून कितें करता ? (टॉयलेटीच्या दारा कडेन वचून) आजये, हात धुता काय कपडे धुता गे ?
(आजी हांसत भायर येता. दोतोन्नीचे फाटल्यान धांवता. दोतोन्न भायर धांवता)

आजी : राक्षीण म्हाका भियेवन धांवली.

नर्स : कितें गे आजये, दोतोन्न मगे ती. तिका मातूय रेश्पेत ना ?

आजी : हांसून हांसून तिचें तोंडूय वळना ?

सांतान : तिगे हांसोप तुक आयकों येतालें ?

आजी : इतली कितें भेड्डी न्हय हांव.

अक्षया : जावं मानलें तरी आपूण भेड्डी म्हणून.

नर्स : चलात, आतां सगळीं जेवण घेयात.

शांती : जेवण खडे इलां ?

नर्स : जेवण येवचें ना. जेवण दिता ताचो संप आसा. रांदता थंय वचून घेयात आनी जेवात.
(नर्स भायर वता)

शांती : मागे इलां तेव्हा रांदता तांचो संप आसलो. ह्या दवाखान्यांत संप चालूच आसतत. चलात गो बायांनो, जेवंक या. सांतान, तुजा जेवण इला. तूं हडेच जेवन घे.

सांतान : ना. हांवूय तुमच्या वांगडा जेवण घेवन येतां.

अक्षया : हय. यो तूं. तुजे सुनेन पयलेच फावट रांदलां. बरें जावंक ना जाल्यार हॉस्पिटलाचें जेवंक मेळटलें.

सांतान : म्हाका एकट्या जेवपा चोलना. तेका लागोन तुमच्या बारी येतां.

शांती : काय गो पाडका ? तुका गो कसा जेवण येवंक ना ?

अक्षया : डॅडी भायर आसता. मम्मी कामाक वता, हाडटलो कोण ?

आजी : चलात या. हांव सकाळच्यान उपाशीं आसां.
(सगळीं भायर वतात. रीना नांवाची गुरवार बायल येता)

रीना : होच काय शून्य शून्य? होच आसतलो. पूण हांगा तर कोणूच ना. सगळ्यो खाटी रित्यो आसात.
(नर्स येता)

नर्स : तूं रीना गो?

रीना : हय. बाळंटीच्या वॉर्डांत एकूय खाट रिती ना म्हणून म्हाका हांगा धाडलां.

नर्स : खबर आसा. हांगाय खाटी रित्यो नात.

रीना : ह्यो आसात त्यो.

नर्स : सगळ्यो भरल्यात. जेवंक गेल्यांत सगळीं. तूं कोणा एकट्याची खाट जोडयेन वापर.

रीना : आनीक एकूय खाट ना?

नर्स : सांगलें न्हय ना म्हण. ओगीच तुका बाळंटीच्या वॉर्डांतल्यान ह्या दोळ्याच्या वॉर्डांत धाडलां. बाळंटीच्या वॉर्डांत कितें हालत आसा पळोवंक ना तुवें? दोन दीस ह्या वॉर्डांत काड, मागीर पळोवया. ताचे पयलीं पोटांत दुखलें जाल्यार सांग. लेबर रुमांत व्हरतां. कळ्ळें? येता हांव.
(नर्स भायर वता)

रीना : हांकां सांगिल्लें खासगी हॉस्पिटलांत दाखल जाता म्हूण. म्हजें आयकूंक ना हांणी. आतां हांगा त्रास काडचे पडटले म्हाका. हॉस्पिटलांत अशे त्रास काडचे परस घरांत सुटिल्ली बरी.
(दोतोन्न मोठ्यान हांसत येता. रीना किळांच मारून कुशीक लिपता. किळांच आयकून दोतोन्न भायर धांवता. कांय वेळान ल्हव पावलांनी येता)

दोतोन्न : किळांच कोणें मारली गो?

रीना : मोठ्यान कोण हांसली गो?

दोतोन्न : पयलीं किळांच कोणें मारली तें सांग.

रीना : हांवें किळांच मारली. आतां हांसलीं कोण तें सांग? हॉस्पिटलांत भुताटकीबी ना मुगो?

दोतोन्न : कांय भुताटकी ना. हांव हांसलीं.

रीना : कितलें भियेलें हांव. इतल्या मोटयान कित्याक हांसता? आवटी जाल्या?

दोतोन्न : तूं दोतोन्नीक आवटी म्हणटा?

रीना : दोतोन्न तूं?

दोतोन्न : ह्या कपड्यांनी तुका हांव कितें ॲम्ब्युलन्सीची ड्रायव्हर कशी दिसता?

रीना : दोतोन्न जाल्यार दोतोन्न कशी रावंक जायना? राक्षीण कशी कित्याक हांसता?

दोतोन्न : (उमेदीन) खऱ्यांनीच, हांव राक्षीण कशी हांसतां? थँक्यू...राक्षीण कशी दिसपाकूच हांसता हांव.

रीना : म्हणल्यार?

दोतोन्न : म्हाका नाटकांत राक्षिणीचें पात्र आसा. (हांसता)

रीना : पात्रूच तूं.

दोतोन्न : कितें?

रीना : कांय ना. हॉस्पिटलांत तुमी अशींच हांसत भोंवतात?

दोतोन्न : हय तर. नाटकाची येसाय सुरू जाल्ल्याक म्हाका चडूच हांसूंक येता. तूं जाणां हॉस्पिटलांत कोणूय मेलो जाल्यार लेगीत म्हाका हांसूंक येता.

रीना : असल्यांनी मार खातलीं तुमी.

दोतोन्न : जाणां हांव, पूण नाटक जायसर कांय करूंक शकना.

रीना : म्हजें कितें तरी करात.

दोतोन्न : हांव कितें करतलीं? हांव दोळ्यांची दोतोन्न.

रीना : म्हज्या जाग्याचें कितें तरी करात म्हणटां. बाळंटीच्या वॉर्डांत खाट ना म्हणून म्हाका हांगा धाडलां.

दोतोन्न : जाणां हांव. तरी तुजें नशिब बरें. ह्या वॉर्डांत तूं कोणाचे तरी खाटीर ॲडजस्ट तरी करूंक शकतलें. थंय एके खाटीर तीग तीग जाणां न्हिदतात. थोडीं स्ट्रेचराचेर न्हिदतात. कांय घोवांनी बायलेक न्हिदपा खातीर घरा कडली खाट हाडल्या. तुका हांगा रावपाचें ना जाल्यार भायर जमनीर गादी घालूंक लायतां.

रीना : नाका. नाका. खाट रिती जायसर ह्याच वॉर्डांत रावतां.

दोतोन्न : तेंच सांगतां तुका.

रीना : गुरवार बायलांचे अशे हाल पळोवंक तुमकां बरें दिसता? जी बायल, मनीसजातीची नवी पिळगी जल्माक घालता तिची ही अवस्था? बायल जातीचीं हांगां फकांडां जातात अशें दिसना तुमकां?

दोतोन्न : कितें करूया ? ह्या हॉस्पिटलांत म्हाकाच बसपाक कदेल ना.

रीना : कित्याक ?

दोतोन्न : म्हज्या कदेलार एका मलेरिया पेशंटाक बसयला. तो बाबडो हातांत सोर घेवन बसला.

रीना : तुमची चूक ना. आमी सरकारी हॉस्पिटलांचेर निंबून रावतात तीच चूक करतात.

दोतोन्न : आसूं, तूं चड ताण घेवं नाका. हीं सगळीं जेवंक गेल्यांत ते मेरेन मातशी न्हीद.

रीना : पळयतां, न्हीद पडटा जाल्यार.

दोतोन्न : वता तर हांव. (हांसत वता)

रीना : हरशीं दोतोर जीव वाटायतात. ही हांसोवन हांसोवन कोणाक तरी मारून उडयता दिसता.

(रीना खाटीर बसता. भायल्यान सांतान येता)

सांतान : ही गुरवार बायल हिंगा कोशी ? हांवूच चुकीच्या वॉर्डांत घुसल्या दिसता. (भायर वता)

रीना : बेश्टीच कोणाचे खाटीर बसप बरें न्हय. विचारूंक तरी जाय. विचारतले म्हणल्यार कोणूच ना.

(परतून सांतान येता)

सांतान : वॉर्ड नंबर सारको आहा. हीच चुकीच्या वॉर्डांत घुसल्या दिस्ता. कित गो ? कोणाक सोत्ताय ?

रीना : आँ ? कोणाक ना.

सांतान : मागीर हें मोटें पोट घेवन हिंगा कित कोत्ता ? चोल, तुगे वॉर्डांत.

रीना : म्हजो वॉर्ड ना. बाळंटीच्या वॉर्डांत जागो ना म्हणून म्हाका हांगा धाडलां.

(अक्षया सोडून सगळीं भायल्यान येतात)

शांती : काय गो सांतान, सुनेचा जेवण आवडांक ना ? रोखडाच इलंय मां.

आजी : ही गुरवार बायल हांगा कितें करता ?

रीना : हांव हांगा रावूंक आयलां.

आजी : ओंकूंक येता ? अजून ओंकूंक येता ?

रीना : अनामिका आजी, वायत तोंड बंद दवरात. आदींच ती बायल गुरवार. तिचो ताळो खेका खातंय ?

आजी : हांवें केन्ना खारो खाल्ला ? तुमकां वाडलां तेंच म्हाका वाडलां.

शांती : हिच्या कानांत मुळां पाळां सारात गो.

सांतान : दुकराची शेंपडी धोंगसूक जाय.

शांती : तुका आणखी कांयच सुचांक ना? (रीनाक) तूं सांग गो. हडे कसा इलंय?

आजी : म्हाका दिसता ती चोरी करूंक आयलां.

शांती : दोळ्याचा ऑपरेशन जालां काय नंतर काय दिसता तां सांग. सध्या काय आयकांक येता तां आयक.

सांतान : हांव सांगोता ती चोर न्होय. मुगे पाय सांगतालो पोट रितें आसता तो चोरी कोत्ता. हिगे पोट चोयाय कितू भोरलां.

शांती : एक एक चित्रां आसात हडे. वायत तुमचा तोंड बंद दवरात.

आजी : ही पळय सिस्टर आयली. (नर्स येता)

नर्स : कितें जालां? बोवाळ कित्याक? आयलीं काय आपापल्या जाग्यार रावंक जायना तुमकां?

आजी : हें पळय हें चोर चोरूंक आयलां.

नर्स : चोरपाक तुजें हांगा कितें आसा?

आजी : तेंच म्हणी हांव. तुज्यो सुयो, कापूस चोरूंक आयलां तें.

नर्स : सुटल्या गे?

आजी : हय. जेलींतल्यान सुटलां आसतलें. पुलिसांक आपय.

नर्स : आपयतां आनी तुका व्हरूंक लायतां. (रीनाक) तुका सांगपाक जायना तांकां.

रीना : ती उलोवपाक चान्सूच दिना.

नर्स : बाळंटीच्या वॉर्डांत खाटी कमी आसात म्हण तिका हांगा हाडल्या. तुमच्या वांगडा दवरात तिका.

शांती : पण हडे लेगीत खाटी भरल्यात मुगो.

नर्स : कोणा एकटेचे खाटीर घेयात तिका. बोवाळ नाका आँ. येता हांव. (नर्स वता)

शांती : (रीनाक) तूं मनाक लावन घेवं नको. कोण नासतना तूं एकटीच इली म्हण आनीक दुबाव मारलो.

रीना : हांव कोणाचे खाटीर रावूं?

शांती : (अक्षयाची खाट दाखोवन) हे रिते खाटीर नाजूक चेडूं बसता. तूं हेच खाटीर राव. माझी खाट घे म्हणटलें आसलें पन मी आसय म्हस कशी आनी तूं गाबणी म्हस. तुका ती बोकडीच बरी.

सांतान : पूण ती बोकडी उरोलीं फूंय ?
(अक्षया फोनार उलयत येता)

आजी : हें पळय आयलें फोनार उलयत.

अक्षया : हय रे जेवलें... तूं सांगी तशें हॉस्पिटलांत वायट जेवण नासलें. आसलें बरें. तोंडाक उकडिल्लें तांतीं आसलें. माती न्हय तांतीं. आतां तूं भेड्डेंपणाचें नाटक करिनाका आँ. हांगा एक भेड्डी आसा. तिणें आदींच ताळो फोडला. चल दवर फोन. वॉर्डांत पावलें हांव. ..बाय.

शांती : काय गो पाडका, झाला बोलान ?

अक्षया : हय.

शांती : आतां मी सांगतंय तां आयक. ही बाई (रीनाक) नांव काय गा तुजा ?

रीना : म्हजें नांव रीना.

अक्षया : ही गुरवार बायल आमच्या वॉर्डांत कित्याक ?

शांती : वायत धीर धर. बाळंटीच्या वॉर्डांत खाट रिती नाय म्हणान तिका हडे धाडल्यान. तुजे खाटीर तिका वायत जागो दी.

अक्षया : नो प्रोब्लेम. हरशीं म्हण म्हाका खंय चड जागो लागता.

शांती : झोपताना म्हारक्या म्हशी सारकी ताचेर लाथ मारांक नक्षो.

अक्षया : म्हाका न्हिदतना खोंटी मारपाची संवय ना.

आजी : संवय नाजाल्यार संवय करून घे. कांयच कळना तुमकां आतांच्या चेडवांक.

सांतान : ह्या फुटक्या फुनेलान कित आयकलें कोण जाणां. चोल गो रीना, तुगे सामान दवर आनी बोस...सोगळीं आपापल्या जाग्यार चोलात. ही नर्स फूंय गेली ?

शांती : नर्स खेका व्हयी ?

सांतान : आमकां कोण चोयतलो ?

शांती : आगो, चरांक गेल्ल्या म्हशींक राखणो व्हयो. गोठ्यांतल्या म्हशींक गो राखणो खेका.

अक्षया : शांती आई, तुमगेर म्हशी आसात ?

शांती : आरे माझ्या पाडका, तुका गो कसा कळ्ळा ?

अक्षया : तुमी म्हशीचेरच चड उलयतात.

**शांती** : आमगेर गोठो आसा. गोठ्यांत म्हशी आसत. आठवण येता गो तांची. म्हणान तर मी तुका पाडको म्हणतंय.

**अक्षया** : पाडको म्हणल्यार कितें ?

**शांती** : पाडको म्हणल्यार म्हशींचा पोर.

**अक्षया** : कितें ? म्हणल्यार इतलो वेळ तुमी म्हाका म्हस म्हणटालीं ?

**शांती** : म्हस नाय गो. म्हशीचा पोर पाडको.

**सांतान** : रीना, तूं उलोय मुगो कित तोरी.

**रीना** : हांव कितें उलोवं ?

**आजी** : तारीख कितें दिल्या ?

**रीना** : म्हजी तारीख पयस आसा. निकतोच णववो म्हयनो लागला. दोतोर म्हणटा ह्या चार दिसांत सुट्टलें.

**आजी** : तशें जाल्यार तूं घरा वचून दोन दिसांनी येवपाचें. कित्याक हांगा त्रास काडटा ?

**रीना** : हे अवस्थेंत येवप–वचप जावंक नाका ?

**शांती** : सारका. बरां केलां तूं रावलां तां. दवाखान्यांत रावला काय हुसको नासता.

**आजी** : हें कितल्यावें गो तुजें ?

**रीना** : पयलेंच. देड वर्स जालें म्हज्या लग्नाक...पयली फावट म्हणून भंय दिसता.

**आजी** : लज दिसता ? आतां लजून कितें फायदो ?

**रीना** : लज न्हय गे. भंय दिसता.

**आजी** : भंय कसलो गो ? तूं कितें जगांतली पयली गुरवार बायल न्हय.

**रीना** : खबर आसा. पूण सगळ्यांचें सारकें आसना.

**आजी** : कोण हांसना ?

**रीना** : सगळ्यांचें सारकें आसना म्हणटां..खरें सांगचें म्हणल्यार म्हजे परस चड म्हजो घोव भियेला.

**आजी** : घोव पियेला ? बेबदो खंयचो. बायल गुरवार आनी पियेला ?

**रीना** : भियेला गे भियेला.

**शांती** : आगो, तूं तिच्या वांगडा बोलांक नको. नाय तर चार दिसांनी नाय, तूं आयजच सुट्टलां.

**आजी** : कोण सुटलो ?

शांती : रेडो सुटलो.

सांतान : रीना, तुमगे थिंगा पोयलें बाळंतपोण जाल्यार फुलां मावतात. तुगेलीं मावळीं गो ?

अक्षया : ना. अजून उरल्यांत. आमी फुलां सातव्या म्हयन्यांत माळटात.

शांती : बरा मुगो माहिती आसा तुका.

सांतान : फोन कोत्ता तेणें सांगोला मिस्ता.

रीना : म्हजीं फुलां जावंक नात.

आजी : कित्याक ?

रीना : सातवो म्हयनो लागलो तेन्ना आमचो दायजी मेलो. बारा दीस सुतक लागलें. ते दीस सोंपतात थंय आसात आमची कोण तरी सुटली. बारा दीस सुवेर लागलें. घरच्यांनी थारायलें णवव्या म्हयन्यांत फुलां माळूया पूण णववो म्हयनो लागता थंय आसा म्हाका बरें दिसना जालें आनी हांगा ॲडमिट जालें.

शांती : म्हणजे फुलांचा कार्य उरलां.

सांतान : तूं भियेता कित्याक ? तुगे फुलां हिंगाच कोरया.

आजी : तुका फुलां म्हणल्यार कितें तें खबर आसा गो ?

सांतान : व्होय तोर. बाजारांतल्यान फुलांचो बुके हाडपाचो, रीनाच्या हातांत दिवपाचो आनी सगळ्यांनी ताळयो मारपाच्यो. जालीं फुलां.

शांती : तसां नासतां गो.

सांतान : कोशीं आसतात तोशीं कोरया.

आजी : हॉस्पिटलांत म्हणून कोण फुलां माळटात गो ?

शांती : माळत नाय तर माळूया.

सांतान : शांती, फोरेंच ?

रीना : नाका, नाका. अशें केन्ना कोणें करूंक ना आनी केन्ना जावंकूय ना.

शांती : आनी पयल्या बाळंतपणाक फुलां माळुचीं रावलीं ह्या पन केव्हा जावंक नाय. आगो, आमकां तुजीं घरचींच समज. चल, भायर साडी बदलून ये. (सगळीं रीनाक फोर्सान भायर धाडटात)

अक्षया : करया आमी फुलां. हांवें फुलां कशीं करतात तें केन्नाच पळोवंक नात.

शांती : माझ्या पाडका, तुका फुलां बघूंक व्हयी जाल्यार फुलां घेवन यो.

अक्षया : भायर दसवंतीचीं फुलां आसात. हांव हाडटां.

शांती : दसवंतीचीं फुलां माळतत? माळूचीं फुलां बघ.

अक्षया : हांव भायर वचून धांवत घेवन येता.

सांतान : सामाळून चोल. पडोंक नाका. आदींच तुगे दोळ्यांत चंद्र येयला. पडोन स्टार येयलें जाल्यार तुगे दोळे पाकिस्तानाचो बावटो जातोले.

अक्षया : हांव चलत वतां तर.
(अक्षया भायर वता)

आजी : कितें भुरगेपणां करतात गो तुमी? सुटल्यात गो तुमी? सांतान : सुटपा आहा ताचीं फुलां मावताय.

आजी : सांतान, तुका आमचें कांय खबर ना. तूं मातशें ओगी राव. शांती, तुकाय कळना गो? हॉस्पिटलांत म्हण कोण फुलां माळटात गो? हॉस्पिटलांत भश्टकार आसता तो जाणा मुगो?

शांती : आतां तसला कोण धरून बसांक नात. आगे, दवाखानो म्हणजे देवाचें घर. हडे मनशाक जीवन मेळटा आनी नवो जीव पन हडेच जल्माक येता. दवाखान्यांत कोण चड बरो ना जालो जाल्यार आमी देवा उलो मारतत काय ना? काय दवाखान्यांत भश्टकार आसा म्हण गप्प रावतंय?

सांतान : शांती, तूं बोरें उलयलें.

शांती : अनामिका आजी, ह्या निमतान ह्या सांतानाक आनी पाडकांक फुलां म्हणजे काय तां कळटालां.

सांतान : व्होय, व्होय सारकें.
(नर्स येता)

नर्स : तें अक्षया भायर कित्याक गेलां?

सांतान : तें फुलां हाडूंक गेलां.

नर्स : फुलां?

सांतान : व्होय. आमी फुलां मावताय.

नर्स : आवटेपणां कितें करतात. पेशंट तुमी आनी फुलां कसलीं माळटात?

सांतान : सातव्या म्होयन्याक मावतात तीं फुलां गो.

नर्स : कोणाक माळटात?

शांती : कोणांग म्हण काय विचारतंय. हडे गुरवार बायल कोण आसा?

आजी : ताचीं सातव्या म्हयन्यांत फुलां जावंक ना खंय. म्हणून हीं ताचीं

हांगा फुलां करूंक सोदतात.

नर्स : पिर्शीं जाल्यांत तुमी ?

शांती : आगो सिस्टर, त्या रीनाची सातव्या म्हयन्यांत फुलां जावंक नात. म्हणान तिचा उरलेला कार्य आमी पूर्ण करतत.

नर्स : तुमकां हें हॉस्पिटल म्हणल्यार तुमचें घर दिसलां ?

शांती : तसाच समज, पन नाय म्हणांक नको. ह्या आमचे खातीर करनना.

सांतान : ताचीं फुलां जावंक ना म्होण वायट दिसता. दोर एके बायलेचीं फुलां जावंक जाय.

शांती : काय गो सिस्टर, करूं मुगो फुलां ?

नर्स : दोतोन्न येत जाल्यार हांव त्रासांत पडटलें.

शांती : ती इली तर आमी काय ता बघतंय.

नर्स : बरें करात कितें करता तें. पूण मोठ्यान आवाज करिनाकात. हॉस्पिटल हें.
(नर्स भायर वता)

शांती : चलात, आतां कसलोच भंय ना. बिनधास्त फुलां मनोवया.

सांतान : मनोवया न्हू मावूया.

शांती : एकूच गो...ह्या पाडूक खडे रावलां ? (अक्षया धांवत येता. हातांत फुलां )

अक्षया : हें पळय आयलें हांव. पळयात, हांवें फुलां हाडलीं.

शांती : हुशार माझा पाडूक.

अक्षया : पाडूक म्हणूं नाका गे म्हाका. हांव म्हशी भशेन काळें आशिल्ले भशेन दिसता ?

आजी : रीनाक कितें करूया ? कृष्ण काय लक्ष्मी ?

अक्षया : अशेंय करचें पडटा ?

आजी : कांय खबर नासतना नाचता फुलां फुलां करून.

अक्षया : तशें जाल्यार तिका नरकासूर करुया. म्हाका नरकासूर खूब आवडटा.

सांतान : कित्याक आवोडटा ?

अक्षया : तो तोंड उकतें दवरून जीब भायर काडटा तेन्ना क्यूट दिसता.

सांतान : तुका घोरकार तोसलोच मेवळ्यार पुरो.

अक्षया : आवयस्. नाका.

शांती : आतां ताका कसलां रुप दिवचां तां सांगात.

अक्षया : सांगलें न्हय, नरकासुराचें म्हणून.

शांती : आगो शाण्या, जाचें रुप ताका दितले त्याच रुपाचो आनी गुणाचो पोरगो जल्माक येतलो.

आजी : आतां सांग, करुया तिका नरकासूर ?

अक्षया : पयलीं सांगात मगे. म्हाका कितें खबर.

आजी : खबर ना ते गजालीक तोंड घालूंक जायना. भुरगें तूं.

शांती : ताका आमी अगोदर लक्ष्मीचा नंतर कृष्णाचा रुप दिवया.

अक्षया : भायर खेळणीं विकपाक आयल्यांत. हांव ताचे कडल्यान मुकूट, मुरली घेतां.

आजी : चल हाड बेगीन. आनी भायर लाडू मेळटा जाल्यार हाड.

अक्षया : तो कित्याक ?

आजी : आतां कितें करता तें सारकें करुया. रीनाच्या हातांत दिवंक जाय तो.

शांती : चल बेगीन. आनी सांबाळून. वाटेर ती राक्षीण सांपडत.

अक्षया : हांव बेगीन वचून येता.
(अक्षया भायर वता)

आजी : फराळाचें कशें कितें करतलीं ?

शांती : माझ्या कडे चवथीच्यो नेवऱ्यो आसत.

सांतान : मुकोडे बिस्कुत्यो आहाय.

आजी : म्हजे कडेन कापां आसात.

शांती : चलात, सगळां कागदार दाळुया.
(कागदार दवरतात. अक्षया येता. हातांत ल्हान लाडू)

अक्षया : हो घेयात, लाडू हाडलो.

शांती : आगो, ह्या काय कसलो हाडल्यान ? मोठो लाडू व्हयो.

आजी : आतांच्या भुरग्यांक म्हण कांयच कळना. मातसो मोटो लाडू हाड गो.

अक्षया : हांव मोटो लाडू घेवन येतां.

शांती : आनी बाकीचा सामान खडे ?

अक्षया : सगळें तिका रुमांत व्हरून दिलां. त्या खेळणेकारां कडेन सगळें मेळ्ळें.

शांती : तसा हुशार माझा पाडूक. चल, आतां हो लाडू बदलून ये.

**अक्षया** : तुमी हें कितें करतात?

**सांतान** : हाका फरावळ म्होणटाय फूंय. सोगल्यांकोडें कितें कितें आहलोलें तें दोवरलां. तुकोडे कित आहा जाल्यार दोवर.

**अक्षया** : म्हजे कडेन लॉलीपॉप आसा.

**सांतान** : लॉलीपॉप हिंगा दवर आनी तेचो दांडो हे आजयेच्या कानांत धोमशी.

**आजी** : सांतान कितें सांगता गो?

**अक्षया** : तुमचे पेटचे पयलीं हांव वतां.

(अक्षया भायर वता)

**शांती** : नर्शीच्या कदेलार रीनाक बसोवया.

(शांती नर्शीचें कदेल मदीं हाडून दवरता)

**आजी** : येवूं दी आनी लक्ष्मी कशी बसूं दी.

(भायरसून रीना येता. साडी दुसरी न्हेसल्या. गळ्यांत हार, मुकूट, कमरेक पट्टो, हातांत मुरली)

**सांतान** : ही चोय लोक्ष्मी येयली. रीना, तूं तुमगे देवीच्या देवळांतली मूर्त कोशी दिसोता.

**रीना** : चलात, करात बेगीन. म्हाका तर भंयूच दिसता.

**शांती** : कशाक भियेवंक व्हया? आमी नर्शीचा परमिशन घेतल्यान.

**रीना** : खऱ्यांनीच? तें बरें केलें. अक्षया खंय?

**अक्षया** : हें पळय आयलें. हांव लाडू बदलूंक गेल्लें. रीना मावशे, तूं बरी दिसता.

**शांती** : चला, करुया सुरवात.

(सगळीं जाणां फुलांचें कार्य करतात. सिनेमांतलीं पदां घेवन नाच-गाणें करचें. चालू आसतना नर्स येता)

**नर्स** : दोतोन्न येता, दोतोन्न येता.

(सगळीं जाणां दाळिल्लें सामान सायडीक काडटात. आपापल्या जाग्यार उबीं रावतात. आजी बोवाळांत नर्शीच्या कदेलार बसता. रीना हार, बेल्ट काडटा पूण माथ्या वयलो मुकूट तसोच उरता आनी हातांत मुरली उरता. दोतोन्न हांसत येता. सगळीं उबीं रावल्यांत तें पळयता, आजयेक पळयता. आजी दोतोन्नीच्या तोंह्लडाक पळोवन तिचे सारकी हांसता)

**दोतोन्न** : कितें जालां? तुमी सगळीं उबीं शीं रावल्यांत?

**सांतान** : आमी राष्ट्रगीत म्होणटाय.

**आजी** : (उबी रावन) जन गण मन...

**दोतोन्न** : चूप. मर्दीच राष्ट्रगीत शें? आयज कितें पंदरा ऑगस्ट? आनी ही माथ्याक मुकूट घालून कितें करता?

**सांतान** : ती भारतमाता जाल्या.

**आजी** : भारत माता की जय..भारत...

**दोतोन्न** : चूप. भारतमातेच्या हातांत मुरली?

**शांती** : मुरली नाय गो ती. झेंड्याचो दांडो तो.

**दोतोन्न** : झेंड्याचो दांडो? झेंडा खंय तर?

**सांतान** : उडोन गेलो.

**दोतोन्न** : दांड्यांत झेंडो घाल्लो काय कावळो? (हांसता) म्हाका तुमी पिशांत काडटात? हांव जाणां तुमी म्हजे कडेन फट उलयतात. बेगीन खरें कितें तें सांगात....नर्स

**नर्स** : हांव काय नकळो. सांगात गो तुमी.

**शांती** : खरा काय तां मी सांगतंय. जसा तुमकां नाटकांत राक्षिणेचो सवंग आसा तसा ह्या रीनाक कृष्णाचा आसा.

**दोतोन्न** : कृष्णाचें सवंग? परत म्हाका पिशांत काडटात? कृष्णाचें पोट मोटें आसता?

**शांती** : नाटक आतां नाय गो. आणखी दोन म्हयन्यान. मगे बाळंत जालां काय भुरग्यांफुडें वेळ गावचो ना म्हण आतांच तालीम मारून ठेवतंय.

**दोतोन्न** : नाटक करूं नाकात. हॉस्पिटल हें. फकत नाटकाची येसाय मारात. हांव मारतां तशी (हांसता) आतां न्हिदात. सकाळीं तुमचें नाटक आसा.

**सांतान** : कोहलें नाटक?

**दोतोन्न** : सकाळीं तुमच्या दोळ्याचें ऑपरेशन.

**सांतान** : सोकाणीं? रातचें केल्यार जायना.

**दोतोन्न** : दोळ्याचें ऑपरेशन सकाळींच करप आसता. सकाळच्या वेळार दोळे शांत आनी थंड आसतात. नर्स, न्हिदचे पयलीं सगळ्यांच्या दोळ्यांत थेंबे घालूंक विसरूं नाका. गूड नायट एव्हरीबडी. (हांसत भायर वता. फाटल्यान नर्स वता)

**शांती** : चलात गो आपापल्या जाग्यार. सकाळीं लवकर उठांक व्हया.

(रीना कपडे बदलूंक भायर वता. अक्षया फोन लायता)

**अक्षया** : हॅलो, कितें करता रे..कितें ? मटको लागलो ?

(अक्षया किळांच मारता. सगळीं ताचे म्हऱ्यांत धांवतात)

**आजी** : कित्याक किळांच मारता गो ? कान फुट्टले मुगो आमचे.

**सांतान** : तुगे आनी फुटपाचे उरल्याय ?

**आजी** : हांवूय ताका तेंच सांगतां.

**शांती** : अनामिका आजी, वायत गप्प बस. काय गो पाडका, आड्डयतंय खेका ?

**अक्षया** : मटको लागलो. म्हजे खाटीचो नंबर आयलो.

**शांती** : तूं मटको लायतंय ?

**अक्षया** : हांव लायना गे. म्हजो फ्रँड लायता. ताका लाय म्हणिल्लो.

**शांती** : म्हाका सांगपाचो मुगो.

**सांतान** : तूंय मटको फेवटाय ?

**शांती** : मी नाय गो. आमचे हे लायतत. सकाळ-सान फकत नंबर गावता काय बघता. पेपर बघून अपघात जाल्ल्या गाडयांचे नंबर लायतत.

**आजी** : जुगार बरो न्हय. जुगारान मनीस सोंपता.

**सांतान** : तुज्या बारा आड्डून आमी सोंपलीं. चोलात, न्हिदाय. ती नर्स दोळ्यांत थेंबे घालूंक येतोली.

**अक्षया** : हॅलो...सॉरी, तुका होल्डार दवरलो. कांय ना रे. हांव किळांच मारली म्हणून सगळीं म्हऱ्यांत आयलीं. तुका सांगिल्लें याद आसा मरे ? मटक्याच्या पयशांचें कितें करप तें ? पयशे तशेच पाकिटांत लिपोवन दवर. चल, दवरतां...बाय...ही रीना मावशी खंय गेली ?

**शांती** : आगो, ती न्हेसाण बदलूंक गेल्या. तूं झोप, नर्स थेंबे घालूंक येतली.

**अक्षया** : म्हाका ड्रोप्स नात. म्हजो दोळो बांदला.

**शांती** : दुसऱ्या दोळ्यांत घालून घे. झोप बरी लागतली.

**अक्षया** : हांव ना. (नर्स येता)

**नर्स** : चलात, आतां तुमच्या दोळ्यांत थेंबे घालतां.

**शांती** : दोळ्यांचेच थेंबे हाडलां मां ? चुकान आमच्या दोळ्यांत कानाचे ड्रोप्स घालशीत.

**आजी** : सारकें. ह्यो नर्शी धड न्हय.

**शांती** : आजयेच्या दोळ्यांत कानाचेच थेंबे घाल. काना मेरेन पावंदी.

नर्स : आतां उलोवप बंद करात. चलात, न्हिदात.
(सगळीं न्हिदतात. अक्षयाक सोडून नर्स सगळ्यांच्या दोळ्यांत थेंबे घालून भायर वता. सगळीं न्हिदल्यांत. भायरसून रीना हातांत सुरी घेवन येता. आतां तिचें पोट मोटें ना. आजयेचे खाटीक खोंट मारता)

रीना : ए उठ, उठ भेड्डे.
(आजयेक केंसांक धरून उठयता)

आजी : कोणें गो म्हज्या केश्टांक धरल्या?

रीना : इतले बेगीन म्हाका विसरली भेड्डे? आतांच फुलां माळिल्लीं मुगे म्हाका.

आजी : रीना? हातांत सुरी घेवन कितें करता?

रीना : तुज्या पोटांत घालून तुजें पोट फोडटां.

आजी : नाका गो. म्हजे कान फुटल्यात तितले पुरो.

रीना : आतां तरी मान्य करता मुगे तूं तुजे कान फुटल्यात म्हणून?

आजी : पायप फुटला? फाल्यां नळ येवचो ना तर.

रीना : ए भेड्डे, रातच्या वेळार म्हजी तकली खायनाका. म्हण हांव भेड्डी.

आजी : तूं भेड्डी. (रडटा)

रीना : सुरी कानांत घुसयतलें. तूं भेड्डी म्हण.

आजी : तेंच तर म्हणलें मुगो. तूं भेड्डी.

रीना : आगे, स्वताक भेड्डी म्हण.

आजी : हांव भेड्डी, हांव भेड्डी.

रीना : नाचून, नाचून म्हण.

आजी : (नाचून) हांव भेड्डी, हांव भेड्डी. हेंच म्हणपाक म्हाका उठयलां?

रीना : तुजे कडेन कितें आसा तें मुकाट्यान दी...पयशे, भांगर.

आजी : म्हजेंच कित्याक जाय तुका?

रीना : सगळ्यां कडल्यान घेतां. (सांतानाचे खाटीर खोंट मारता) ए उठ.

सांतान : दोळडिऱ्या, कित कोत्ताय रे?

रीना : उठ.

सांतान : दोळडिऱ्या, लाग मारिनाकाय. वासिमोर हिंगासोल्लो.

रीना : उठ पयलीं. (खाटीर फोर्सान खोंट मारता. सांतान सकयल पडटा)

सांतान : दोळडिऱ्या, माक सोकला उडयलें.

रीना : दोळे उगड. हांवें उडयलां तुका.

सांतान : रीना, तूं गो? माक दिसोलें आमगे दुकोर खाटीर खोंटो मात्ता म्होण.

आजी : सांतान, ह्या रीनाक पळय कितें करता तें.

सांतान : रीना, कित जालाय गो? पोटां दुकोता? सुरी घेवन कित लिंबू कापोता?

आजी : ताच्या पोटाक पळय.

सांतान : आरे! पोट केशें देंवलें? सुटलें काय कित गो?

रीना : तूं म्हज्या हातांतल्यान कशी सुट्टली हाचो विचार कर.

सांतान : म्होणजे?

रीना : तुजे कडेन कितें आसा तें सगळें दी. नाजाल्यार तोपता धरून.

सांतान : आवोयस्...मुगे मांय. ए शांती, ए शांती, उठ.

शांती : आगो, न्हिदानी गो म्हाका. अजून कोंबो आड्डाक नाय. (रीना हांसता)

सांतान : चोय, हिंगा कोंबी आड्डली. (शांती उठटा)

शांती : आगो रीना, मुरली हातांत दिवन तुका कृष्णाचा रुप दिल्यान. तूं सुरी हातांत घेवन नरकासूर गो कशी जाली?

आजी : ताणें आमकां फटयलें. तें गुरवार नासलेंच. हांवें सांगिल्लें तुमकां तें चोरूंक आयलां म्हणून.

रीना : हय. हांव गुरवार ना. हांव सदांच अशेंच करतां. गुरवार बायल जावन ह्या वॉर्डांत रावतां. बाळंटीच्या वॉर्डांत रिती खाट ना म्हणून फट मारली तुमकां.

शांती : आगो, पन ह्या नर्शीक आनी दोतोन्नीक गो कसा माहीत नाय?

रीना : सगळ्यांक खबर आसा. हांव चोरता तो वांटो तांकांय वता... चलात, बेगीन आपापल्यो वस्ती, पयशे दियात.

शांती : आतां काय करूचा? (अक्षयाक) ही घोडी बघा कशी झोपल्यान. (अक्षयाक हालयता) आगो, पाडका, उठ.

अक्षया : नाका रे शाण्या.

शांती : आगो, उठ बेगीन.

अक्षया : नाका रे, म्हाका लज दिसता.

शांती : हडे आमची झोप उडाली आनी ह्या झोपेन बडबडटा...उठ (मारता)

अक्षया : आवयस्, आवयस् सुण्या मारता कितें? (न्हिदेंत बॉयफ्रॅण्डाक)

शांती : आगो, झोपेतला भायर ये. (उठयता)

अक्षया : हांव खंय आसा?

शांती : यमलोकांत. हो बघ यम.
(रीनाक पळयता. रीना मोट्यान हांसता. अक्षया किळांच मारता)

रीना : ए चिंचुदरे, किळांच मारल्यार सोमती सुरी तोपतलें.

अक्षया : तुज्या पोटांत सुरी कोणें तोपली? तूं गुरवार आशिल्लें मुगो.

रीना : गुरवार आशिल्ल्याचें नाटक केल्लें. नाटक करून तुमकां नाडपाक आयलां हांव. बेगीन पयशे, भांगर दियात नाजाल्यार सुरयेन कातरतलें.

सांतान : तूं कित गो? बायल जावन बायलांकूच कापूंक भोंवताय? हिंमत आहल्यार दादल्यांक कापून दाखोय.

रीना : दादल्यांकूय कापतां. पयशां खातीर हांव सगळ्यांक कापतां.

सांतान : तोहें जाल्यार दुकोर कापपाचो धंदो सुरू कोर मुगो.

रीना : तुजी बडबड बंद कर. (अक्षयाक) ए चिंचुदरे, चल, सगळ्यांच्यो वस्ती, पयशे लागीं कर. कर पयलीं.

अक्षया : करतां, करतां...दियात गो बेगीन.
(अक्षया सगळ्यां कडल्यान पयशे, भांगर घेवन रीनाक दिता.)

रीना : बरें शाणें मुगो तूं. सगळ्यांचें लागीं केलें आनी तुजें कोण दितलो?

अक्षया : म्हजे कडेन कांयच ना. पयशे आशिल्ले ते येदोळ तुका सामान हाडलें. म्हजे कडेन वस्तीय नात. हीं कानाचीं खोटीं. जात्रेक घेतिल्लीं. गळ्यांतली सरपळी खोटी. फेस्ताक घेतिल्ली.

रीना : बोटांत मुदी आसा ती? ती तरी खरी मुगो?

अक्षया : खरी, पूण ती म्हजी न्हय.

रीना : दुसऱ्याची मुदी घालून भोंवता?

अक्षया : दुसऱ्याची न्हय. ही मुदी म्हाका ताणें घाल्या. (लजता)

सांतान : आमकां हिंगा घाम फुटोला... आनी हें दोळडिरें लोजोता.

रीना : चल, काडून दी ती मुदी.

अक्षया : भायली ती. भायर येना. घट्ट जाल्या.

रीना : घट्ट कशी जाल्या? ताका बोटाचें जोक दिवंक नासलें?

अक्षया : ताणें वॅलेन्टायन दिसा म्हाका दोळे बंद करूंक लायले आनी अचकीत बोटांत ही मुदी घुसयली. घरा मम्मी पळयतली म्हण काडटले म्हणल्यार कश्शी येना जाली. मुदी पळोवन मम्मीन मारलें

म्हाका. (रडटा)

**रीना** : तुजी मोगाची काणी आयकूंक रावलां गो हांव? तुजी मुदी घेतले बगर हांव वचचें ना.

**अक्षया** : पूण ती भायर येना ताका हांव कितें करूं?

**रीना** : तशें जाल्यार हांव तुजें बोटूच कापतां.

**अक्षया** : नाका, नाका म्हजें बोट कापूं नाका. (अक्षया हांगा थंय धांवता. खाटीर चडटा, रीना ताका खाटी वयल्यान सकयल उडयता. ताचें बोट धरता)

**रीना** : आतां कापतांच. (आपले वटेन ओडटा)

**अक्षया** : नाका (फाटले वटेन ओडटा)

**रीना** : कापतां ....

(सगळीं अक्षयाक फाटसून धरतात. एकामेकांक धरून रांग करतात)

**अक्षया** : नाका...

**रीना** : कापतां.

**सगळीं** : नाका.

(आपले वटेन अक्षयाक ओडटा. अशें जायत रावता. म्हणीत रावता आनी ल्हवू ल्हवू पड्डो पडटा)

**(पयलो अंक सोंपता)**

# अंक दुसरो

## देखाव एक

(पड्डो उगडटा. सकाळचो वेळ. सगळीं आपापल्या खाटीर न्हिदल्यांत. रीना जाग्यार ना. अक्षया खाटी पोंदां पावलां)

**अक्षया** : नाका गे, म्हजें बोट कापूं नाका. प्लीज सोड म्हाका.

(आवाज चालूच. सगळीं उठ्ठात)

**सांतान** : कित जालांय गो? कोण बोबाळ मात्ता?

**शांती** : कांयच कळना मुगो.

**आजी** : आवाज अक्षयाचे खाटी कडल्यान येता.

**शांती** : हो आवाज पाडकाचोच. पन आवाज हडे दवरून तां गेला खडे?

**सांतान** : आवाज हिंगा आनी तें दुसरेकोडें ओशें म्हूण केन्ना जाता? तेंवूय हिंगाच फूंयतरी आहतोलें.

(आजी खाटी पोंदा पळयता)

**आजी** : हें पळय, खाटी पोंदा आसा.

(शांती, सांतान खाटी पोंदा पळयतात)

**शांती** : म्हाका दिसलांलां ह्या पाडूक लाथ मारतला पन त्या रीनान हेकाच लाथ मारून खाली पाडलां मां.

**अक्षया** : वांचयात गे म्हाका, वांचयात.

**सांतान** : तूं कित व्हाळांत व्हांवोन वोयताय गो? वांचोयात, वांचोयात कोत्ता तें....भायर यो पोयलीं.

**शांती** : तां तसा भायर येवचां ना. ताच्या बोटाक धरून ओडूंक व्हया.

**अक्षया** : नाका, म्हजें बोट कापूं नाका.

**सांतान** : तुगे बोट कोणाक जाय गो? तूं पोयलीं भायर यो.

**अक्षया** : हांव म्हजें बोट दिना. हांव म्हजें बोट कशेंच दिवचें ना.

**आजी** : कोणें कितें मागलें गो बाबड्या कडेन? कितें दिवचें ना म्हणटा तें?

**सांतान** : तुगे तॉण मातशें बोंद दोवर.

**अक्षया** : हांव म्हजें बोट दिवचें ना.

**शांती** : ह्या स्वताक एकलव्य समजता की काय. आगो, हडे द्रोणाचार्य नाय.

**आजी** : दोणे जाय? काल फुलां जालीं ती ताका पुजा दिसली दिसता.

**शांती** : तूं वायत तोंड बंद दवर बघया.

अक्षया : मुदी काप, बोट कापूं नाका.

शांती : आतां ह्या पाडकाचा चड जालां.
(शांती अक्षयाच्या हाताक धरून ओडटा. ओडून येवचें ना म्हण सांतानाक आपयता. सांतान शांतीच्या भेंडाक धरून ओडटा)

आजी : फोरसा, फोरसा.

सांतान : ए भेड्डे, फोरसा फोरसा कित कोत्ता? यो फोर्स लाय.
(आजी सांतानाच्या भेंडाक धरून ओडटा. अक्षयाक भायर काडटा. शांती अक्षयाक खाटीर बसोवन ताचें गॉगल घालता)

शांती : काय जालां गो तुजा?

अक्षया : तिका म्हजें बोट कापू नाका म्हणून सांग.

शांती : कोणाक गो?

अक्षया : फुलां माळ्ळ्यात तिका.

सांतान : रीना गो?

अक्षया : हय. तिणें आमकां फटयलें. ती गुरवार ना. ती चोर. तिच्या हातांत सुरी आसा. पयलीं तिणें तुमचें भांगर आनी पयशे चोरले. मागीर म्हजी मुदी व्हरूंक सोदी. मुदी बोटांतल्यान येना म्हणून ती म्हजें बोट कापूंक लागली.

आजी : हांवें सांगिल्लें तुमकां ती चोर म्हणून. म्हजें आयकलें ना तुमी.

शांती : आगो पाडका, तूं सांगतंय तां सगळां केन्हा घडलां?

अक्षया : तुमकां याद ना? तुवेंच म्हाका न्हिदिल्लें उठयलां. आजयेच्या गळ्या कडेन तिणें सुरी धरिल्ली.

आजी : म्हज्या गळ्याक कित्याक? सगळींच म्हज्या रगताचे फाटल्यान लागल्यात. (रडटा)

शांती : तुजां पेंपारां वायत बंद कर बघया. म्हाका दिसता ह्या पाडकान सपान बघलां. (टॉयलेटींतल्यान रीना येता)

रीना : कितें जालें?
(अक्षया किळांच मारीत खाटीर चडटा)

अक्षया : प्लीज गे, म्हजें बोट कापू नाका. हांव तुका घरा कडली मुदी हाडून दितां.

रीना : कितें म्हणटा हें?

सांतान : ताका तुगे सोपोन पोडलें. सोपनांत फूंय तुयें आमगे भांगर चोरलें..तूं फूंय टॉयलेटींत आहलें?

**रीना** : हय. मागीर गर्दी जाता म्हणून बेगीन उठून गेल्लें.

**सांतान** : आनी हें सांगोता तूं चोरी करून गेलें.

**शांती** : बघ. माथ्यार कोळसो, गांवभर वळसो.

**अक्षया** : तशें न्हय गे. हांडीर कोळसो, गांवभर वळसो.

**शांती** : बघ. झोपेतून उठला आनी लगेच लागला म्हाका शिकोवंक. आगो रीना, ह्या पाडूक खाटी खाली बडबडत व्हता.

**रीना** : तें खाटी पोंदा आशिल्लें? तरी हांव म्हणटां हें गेलें तरी खंय? (नर्स येता)

**नर्स** : उठलीं तुमी? (अक्षयाक) हें वयर खाटीर कितें करता?

**शांती** : तां सूर्य इलो काय बघता. दोतोरणीन सांगलेला सूर्य इलो काय चंद्र जातलो.

**नर्स** : कसलीं पिशेपणां करता गो.

**अक्षया** : तिचें आयकूं नाका. ती फकांडां करता.

**नर्स** : तूं सकयल देंव. (देंवता). सगळीं तयार जायात. आयज ऑपरेशन तुमचें.

**शांती** : तांच तर करूंक इलंय मी.

**नर्स** : पयलीं तुमचें रगत काडूंक जाय.

**शांती** : आमचां खेका?

**नर्स** : तुमकांय साकर आसूंक शकता.

**शांती** : सकाळीं सकाळीं काय तरी बरां बोल गो.

**सांतान** : आमकां डायबेटीज आहा काय ना तें कालूच कित्याक चोवूंक जाय?

**नर्स** : आसा जाल्यार ती वाडटा आनी देंवता. त्याच वेळार पळोवप आसता.

**शांती** : मी आदीं मान्न्यांत जावन येतंय.
(शांती टॉयलेटींत वता)

**सांतान** : राव गो, हांवूय येतां.
(सांतानूय टॉयलेटींत वता)

**नर्स** : आजये, पयलीं तुजें रगत काडटां.

**आजी** : खंय धाडटा?

**नर्स** : (मोठ्यान) रगत काडटां म्हणटां.

आजी : काड. तुका आनीक दुसरें कितें कळटा ?
(नर्स आजयेचें रगत काडटा)

अक्षया : (रीनाक) तुका एक विचारूं गे ?

रीना : कितें ?

अक्षया : तुजें हें पोट खरें ?

रीना : म्हणल्यार ?

अक्षया : खरीच तूं गुरवार काय पोटांत उशें घालां ?

रीना : हांव कितें गुरवारपणाचें नाटक करता गो ?

अक्षया : म्हज्या सपनांत तशें आयलें.

नर्स : (आजयेक) चल, जाग्यार बस. आनी कांय खावं नाका.

आजी : पाव खावं नाका ?

नर्स : (मोठ्यान) आगे, कांय खावं नाका म्हणटां तुका.

आजी : खबर आसा गो. आतां म्हाका सगळें पाठ जालां. हांव तोंड धुवन येतां.
(आजी टॉयलेटींत वता)

नर्स : (रीनाक) तूं हांगा कितें करता गे ?

रीना : खंय वचूं तर ?

नर्स : तुजो दोतोर स्पेशल तुजे खातीर हांगा येवचो ना. बाळंटीच्या वॉर्डांत चल. तपासून जालें काय यो.

रीना : बरें. (रीना भायर वता)

अक्षया : सिस्टर, ही खऱ्यांनीच गुरवार आसा काय नाटक करता ?

नर्स : तुज्या दोनूय दोळ्यांनी चंद्र आयला ? गुरवार बायल दिसना तुका ?

अक्षया : म्हाका तिचें सपन पडिल्लें.

नर्स : कसलें ?

अक्षया : तिणें पोटांत उशें घालून गुरवारपणाचें नाटक केलां आनी सुरी घेवन सगळ्यांक नाडटा.

नर्स : तशें जाल्यार पळय हांगासल्लें एक उशें कमी जालां जाल्यार.

अक्षया : म्हजीं फकांडां करता ?

नर्स : फकांडां तूं म्हजीं करता. काम ना गो म्हाका ? चल, वचून तोंडार उदक मारून यो. (अक्षया टॉयलेटींत वता) एक एक चित्रांच आसात ह्या वॉर्डांत. डबल ड्यूटी करप म्हणल्यार पिशें जावप.

खंयच्यान बुद्द सुचली आनी नर्स जालें.
(शांती आनी सांतान येतात)

**शांती** : काय गो एकटांच काय बडबडतंय.

**नर्स** : आयलीं तुमी? चलात, आतां तुमचें रगत काडुया.

**शांती** : आमी खडे नको म्हटला. आमच्या आंगांत भरपूर रगत व्हांवता. जाय तेवढा काडून घे. (नर्स शांतीचें रगत काडटा)

**सांतान** : शांती, भियो नाका आँ. कांय दुखोना गो.

**नर्स** : तुजी बडबड कमी कर गे. रगत तिचें काडटां आनी भियेल्या तूं काय कितें?

**शांती** : कांय जाणांक दिसता गो रगताचो भंय.

**नर्स** : (सांतानाक) चल, आतां तुजें काडुया.

**सांतान** : दुखोयनाका आँ. सोवका सूय तोप.

**नर्स** : ल्हान भुरग्या भशेन कितें करता गे? (सूय तोपता) खंय गे? रगतूच येना मुगे तुजें.

**शांती** : मोठो बुराक कर. सुयेन जायना जाल्यार दाबण तोप.

**सांतान** : ये शांती, कित्या म्होज्या जिवार उठलाय गो. मुगे रोगोत म्होणल्यार तुका कित टॉमेटो कॅचप दिसोलां? भायर येवपाक ओगोत लागता. हें चोय येयलें.

**नर्स** : आतां थोडो वेळ बसात.

**शांती** : ऑपरेशन केन्हा?

**नर्स** : तें मागीर सांगतां. पयलीं साकर पळोवंक जाय. हांव तुमचें ब्लड सँपल घेवन वतां. ते मेरेन मातशी तोंड धांपून ओगी रावात.(नर्स भायर वता)

**शांती** : तोंड धांपून गप्प बसाक सांगतंय. आमी काय शाळेंत इलंय? बाई कशी वागता ही नर्स. काय गो सांतान, कसलो विचार करतंय?

**सांतान** : म्हाका साकोर आसतोली काय ना तें चित्तां. आसपा ना गो कारण आमच्या घोराण्यांत कोणाकूच साकोर ना. (आजी येता)

**शांती** : हो बघ, साकर कारखानो इलो.

**आजी** : म्हाका पळोवन कितें म्हणटात गो?

**शांती** : कांय ना गो. तुका कोण काय बोलतलो.

**आजी** : फट उलयनाकात. तुमी म्हज्यो चाडयो करतालीं.

शांती : म्हणतत ना, चोराक हुसको पुलिसांचो. (अक्षया येता)

अक्षया : तशें न्हय. चोरांक हुसको चान्न्याचो.

शांती : वेळार इला माझा पाडूक. येताच माझ्या उतराक हात घातलो.

अक्षया : तूं चुकीचें म्हणी.

शांती : तुका सांगलां मुगो मी मोठी आसय म्हणून. मी म्हणतंय तां बरोबर.

अक्षया : बरें, तुमचें रगत काडलें?

सांतान : काडून घेवन गेलें तें.
(रीना भायरसून येता)

शांती : काय गो तूं खडे गेल्लंय?

रीना : तपासपाक.

अक्षया : दोतोरान तपासलें?

रीना : हय.

अक्षया : मागीर दोतोरान कितें सांगलें? खऱ्यांनीच गुरवार आसा काय उशें आसा?

सांतान : ए, तुगें तॉण आतां बोंद कोर आँ.

रीना : कितें जालां हाचें. सकाळच्यान उशें उशें करता.

सांतान : तुमी रातीं एकाच उश्यार तोकलो दवरून न्हिदलोलीं न्होय? ताका बाबड्याक तें फोबोर ना. तें सोमजोता, तुवें एक उशें पोटांत बांदोलां.

रीना : पिशें खंयचें.

शांती : ताचां सोडून दी. म्हाका एक सांग, तुका दोतोरान काय सांगलां? केन्ना सुट्टालां खंय?

रीना : तशें कांय सांगूंक ना. पूण म्हाका सकाळच्यान बरें दिसना.

आजी : दिसना? तुज्याय दोळ्यांत मोती जाला दिसता. आमच्या वांगडा तूंय ऑपरेशन कर.

शांती : हिका खडे व्हरोन आपटात गो.

सांतान : (आजयेक) आगे, तेगे जिवाक बोरें दिसोना म्होणटा तें.

आजी : बरें दिसना? तुका अजून आंबट खावचें शें दिसता?

सांतान : आतां मुगे हांव बोरणीच्या झाडाचे कांटे काडून तुगे कानांत धोंगशितलें.

शांती : पोटांत जाता गो?

रीना : खबर ना, पूण कितें तरी जाता....सारकें कांय कळना.
(नर्स धांवत येता)

नर्स : रीना, रीना, लिप बेगीन.

शांती : आगो, काय झालां?

नर्स : तो येता.

आजी : ताचो बापूय येता सो दिसता.

शांती : आवशीचो घोव तुजो. वायत गप्प बसांक काय घेतली? सिस्टरीक पानी दियात गो. बसान घे गो सिस्टर.
(नर्स खाटीर बसता. अक्षया नर्शीक आपली उदकाची बाटली दिता)

सांतान : आतां सांग सारकें कित जालां तें.

नर्स : मंत्री येता, आरोग्य मंत्री.

शांती : हडे गुरवार बायलांक न्हिदांक जागो ना. आनी तो खेका येता?

नर्स : तो हॉस्पिटलाची पळोवणी करूंक येता. नवो आरोग्यमंत्री जाला न्हय म्हण येता. (रीना) आगे, तूं लिप खंय तरी.

रीना : हांव कित्याक लिपूं?

सांतान : तुका हिंगा चोवन तो आमचेर तापतोलो.

रीना : कित्याक?

नर्स : कित्याक म्हणल्यार हो दोळ्यांचो वॉर्ड. हांगा गुरवार बायलेक दवरूंक शकनात. तुजी जागा बाळंटीच्या वॉर्डांत.

रीना : थंय खाट रिती ना म्हणून म्हाका हांगा धाडलां न्हय.

नर्स : ताका अशें सांगलें जाल्यार सगळ्या खाटींचो हिशेब करतलो आनी म्हाका कामा वयल्यान काडून उडयतलो. तूं प्लीज लिप बेगीन.

सांतान : चोल गो लिप तूं.

आजी : ताका खाटीर न्हिदोवन आंगार चादर घालया.

नर्स : ताणें चादर काडली जाल्यार ... तूं एक काम कर. टॉयलेटींत लिप.

रीना : हांव बरें ना. म्हाका कितें तरी जाता शें दिसता.

नर्स : मातसो ओगोत टॉयलेटींत राव. मंत्री गेलो काय यो.

रीना : बरें.
(रीना टॉयलेटींत वता. नर्स भायर वता)

अक्षया : बाबडेक कितलो वेळ टॉयलेटींत रावचें पडटलें कोण जाणा.

सांतान : त्या मंत्र्याक सापोडनाय जाल्यार पुरो.

शांती : सांपडांक व्हयी.
सांतान : ओहें कित्याक म्होणटाय तूं?
शांती : मंत्र्याक कळांक तरी व्होया. हॉस्पिटलांत खाटी कमी आसात तां.
अक्षया : तें नर्शीन सांगूंक जाय. तें भियेवन पेशंटांक टॉयलेटींत घालता.
(नर्स आनी मॅडम येता)
नर्स : येयात, मॅडम येयात.
मॅडम : हो दोळ्यांचो वॉर्ड?
नर्स : हय, मॅडम. तुमकां कशें कळ्ळें?
मॅडम : भायर दोन दोळे लायल्यात.
नर्स : दोळे न्हय ते मॅडम. वॉर्ड नंबर तो. दोन झिरो.
मॅडम : बरो विचार करून वॉर्ड नंबर दिला....कशीं आसात तुमी सगळीं?
सांतान : बोरीं आहाय.
मॅडम : तुमकां कसलो त्रास जायना न्हय?
सांतान : त्रास जाता तें टॉयलेटींत आसा.
मॅडम : कितें?
नर्स : कांय ना मॅडम...हांचें ऑपरेशन अजून जावंक ना. जावपाचें आसा.
मॅडम : (आजयेक) कशी आसा गे जाण्टेले?
आजी : जाण्टेली म्हणटा तें हांव कितें सामकीच मरूंक तेंकल्या गो?
नर्स : मॅडम, ती जाण्टेली मातशी सुबेज. तिका आजी म्हणात.
मॅडम : तुका हें पयलीं सांगूंक जायनासलें. तिचे कडल्यान शापोतां आयकून आतां सांगता.
नर्स : सॉरी मॅडम.
मॅडम : आजये, तूं कशी आसा?
आजी : हय. आयजूय साकर आसा. तुका कोणें सांगलें? सगळ्यांक सांगता हें नर्स. चाडयाळें खंयचें.
नर्स : मॅडम, तिका मातशें कमी आयकूंक येता.
मॅडम : हें आतां सांगता. पयलीं सांगपाक जायनासलें. नेर्वां खंयचीं. आनी राव गो, ती भेड्डी जाल्यार तिका कानाच्या वॉर्डांत घालपाची.
आजी : कितें घालतात कानांत? दोळ्याचें ऑपरेशन जाले बगर हांव कानाक हात लावंक दिवची ना.
मॅडम : हिका बरेंच कमी आयकूंक येता.

**अक्षया** : तुमी तिचें कांयच आयकूं नाकात. गाराणें आयकूंक आयल्या तें आयकात.

**मॅडम** : कसलें गाराणें?

**शांती** : कसला म्हण काय विचारतंय गो. मंत्री तूं, लोकांचा गाराणां आयकांकूच व्हया.

**मॅडम** : मंत्री? हांव मंत्री न्हय.

**शांती** : काय? तूं आरोग्य मंत्री न्हय? काय गो सिस्टर कोणाक घेवन फिरतंय?

**मॅडम** : हांव आरोग्य मंत्र्याची मेवणी.

**शांती** : मेवणी? हडे कशी पावली?

**मॅडम** : ताचें कितें आसा जाणां. म्हजो भावोजी म्हणल्यार तुमचो आरोग्य मंत्री चड शिकूंक ना. ताका हातूंतलें कांय कळना म्हणून म्हाका धाडलां.

**सांतान** : तुका सोगळें गोमता?

**मॅडम** : हय. हांव दोतोन्न. म्हजें स्वताचें क्लिनिक आसा.

**शांती** : तुज्या अनपढ भावोजीक आरोग्य मंत्री केलो कोणें?

**नर्स** : आगे, तोंड सांबाळून उलय. ती सायबाक सांगतली.

**शांती** : सांगिना, आमचा कोण काय करतलो?

**मॅडम** : प्रस्न सारको आसा तुमचो. भावोजीक हें पद फावना. तुमकां खबर आसा, फाटीं ताणें पन्नास हजार सुयो ऑर्डर केल्ल्यो.

**शांती** : बरां केलां. ह्या आजये सारको साखर कारखाणो इलो काय खूब लागतत.

**मॅडम** : ताणें शिंवपाच्यो सुयो ऑर्डर केल्ल्यो.

**सांतान** : कित सांगताय गो?

**मॅडम** : हें कांयच न्हय. फाटीं ताणें एक ट्रकभर पिकास आनी खोरीं ऑर्डर केल्ल्यो.

**सांतान** : कित्याक?

**मॅडम** : ऑपरेशन करूंक.

**सांतान** : आवयस् मुगे मांय.

**मॅडम** : हातूंत भावोजीचीय चूक ना. हे आदीं तो बांदकाम मंत्री आशिल्लो.

**सांतान** : ओसल्यांनी हो तुगे बोणो भावोजी आमकां मारून उडयत मुगो.

**मॅडम** : म्हणून तर हांव आयलां.

**अक्षया** : तुमी हांगा आयल्यांत आनी तुमचे पेशंट तो पळयता काय कितें?

**मॅडम** : भावोजी दिल्ली गेला.

**अक्षया** : कित्याक?

**मॅडम** : हायकमांडाचे पांय धरूंक. तांकां विनंती करूंक गेला. हें आपलें खातें काडून दुसरें दी म्हण.

**अक्षया** : दुसरें मेळ्ळ्यार पुरो. नाजाल्यार ह्या सरकारी हॉस्पिटलाचें धड ना.

**मॅडम** : हय. मेळ्ळ्यार पुरो दुसरें खातें. तितलें हांवूय सुटलें.

**शांती** : हडे एक सुटपाचें आसा.

**मॅडम** : कितें?

**नर्स** : कांय ना मॅडम.

**शांती** : कांय नाय गो. तूं खेका भितंय. मी सांगतंय. ह्या बघा मॅडम, ह्या दवाखान्यांत खाटी कमी आसत. निजपाक जागो ना. आमचा सोडून घालात. मॅडम, गुरवार बायलांक जागो ना.

**मॅडम** : (नर्शीक) हें खरें?

**नर्स** : ना मॅडम.... हय मॅडम. खाटी आसात पूण त्यो पोरण्यो जाल्यात. तांचे दोके मोडल्यात, त्यो कावलाक काडल्यात.

**मॅडम** : खाटी नात जाल्यार गुरवार बायलां खंय न्हिदतात तर?

**शांती** : बाबडीं जागो गावता थडे घुसता. एक हडे घुसल्या. ह्या आमच्या दोळ्यांच्या वॉर्डांत.

**मॅडम** : खंय आसा?

**सांतान** : टॉयलेटींत.

**मॅडम** : कितें? टॉयलेटींत?

**आजी** : हय. मंत्री आयलो म्हण हे नर्शीन ताका टॉयलेटींत लिपोवन दवरल्या. अक्षया, चल गो आपय तिका.
(अक्षया टॉयलेटींत वता)

**मॅडम** : खाटी कमी पडटात जाल्यार नव्यो मागूंक जायनासल्यो?

**नर्स** : मॅडम, चडूय मागोवन फायदो कितें? जागो पावंक नाका?

**सांतान** : सुवात कोमी पोडटा जाल्यार खाटी झाडां पोंदा घालपाच्यो.

**शांती** : ह्या त्या हिप्प्यांक कळात तर ते दर्याचे उठान हडेच आडवे जातले.
(अक्षया किळांच मारीत येता)

**शांती** : काय जालां गो?

**अक्षया** : ती गुरवार बायल.

**शांती** : तिचा काय झालां?

**अक्षया** : ती टॉयलेटींत बाळंत जाली.

**सगळीं** : कितें?

(भुरग्याचो रडपाचो आवाज. ल्हवू ल्हवू काळोख)

0000000000000000000000000000000

## देखाव दोन

(उजवाड जाता. रीना खाटीर बसून भुरग्याक खेळयता. अक्षया भायल्यान मोबायलाचेर उलयत येता)

**अक्षया** : हॅलो...म्हज्या दोळ्यांतली पट्टी काडली रे....हय. दोळ्यांतलो चंद्र गेलो. तुका खोस जाल्या मरे? म्हाकाय खूब खोस जाल्या. इतले दीस चंद्र पळोवन दिसाची लेगीत रात जाल्या शी दिसताली. तुका याद आसा? तुज्या हाताक धरून धांवतना हांव पडटालें. आतां पडचें ना. तुकाच ओडीत ओडीत व्हरतलें....हय तर. आयजूच डिस्चार्ज मेळटलो. तूं म्हाका व्हरपाक येता मरे? रावता आँ तुका. आनी एक सांगपाक विसरलें. आमच्या वॉर्डांत म्हजे खाटीर गुरवार बायल आशिल्ली पळय तिका चेडो जाला. बरो दिसता. गोरो गोरोच बावलो कसो. तुवें म्हाका फेस्ताक बावलो घेवन दिल्लो पळय, सामको तसोच..हय. चल, दवरता फोन. मागीर सांगता कितल्यांक यो तें.... ओके, बाय, टेक कॅर.

**रीना** : कोणा कडेन आमच्या बाबूची इतली तोखणाय करी गो?

**अक्षया** : फ्रॅण्ड तें म्हजें....बाबू कितें म्हणटा? (खेळयता)

**रीना** : मावशी खंय गेली काय विचारी.

**अक्षया** : हय रे बाबू? ...पळय, मावशी आयली.

**रीना** : धर मुगो बाबूक.

**अक्षया** : म्हाका भंय दिसता.

**रीना** : भंय कसलो? संवय करून घे.... घे धर.

(अक्षया भुरग्याक धरता)

**अक्षया** : आरे बाबू, मावशे कडेन आयला रे? जाणा मरे बाबू, म्हज्या दोळ्यांतलो चंद्र गेलो.

**रीना** : आयज घरा वतलें तर तूं?

**अक्षया** : हय. पूण आमच्या बाबूच्या बारशाक मात येतलें हांव.

**रीना** : खऱ्यांनीच यो आँ. तुमी सगळीं आयल्यार म्हाका खूब बरें दिसतलें.

**अक्षया** : आरे!

**रीना** : कितें जालें ?

**अक्षया** : बाबून म्हाका ओलें केलें.

**रीना** : आरे शाण्या, मावशीक ओली केली मरे ...दी गो ताका. तूं कपडे बदलून यो. (अक्षया कपडे बदलूंक वता. रीना भुरग्याची लंगोटी बदलता. सांतान येता)

**सांतान** : कित कोत्ताय गो बाबू?

**रीना** : बाबून अक्षयाक ओलें केलें.

**सांतान** : व्होय रे बाबू? बोरें केलें आँ.

**रीना** : तुजें ऑपरेशन जावंक ना काय कितें?

**सांतान** : ना. म्होज्यांत डायबेटीज सांपडोली. ते आजयेची साकोर म्हुज्यांत येयली दिस्ता.

**रीना** : आतां ते आजये भशेन तूंय आठ दीस उरली.
(आजी येता. एक दोळो बांदला)

**आजी** : म्हजी खाट दाखयात गो.

**सांतान** : आगे, तूं एकटी केशी येयली? तुका नोर्शीन हाडोंक ना?

**आजी** : तें मेलें म्हाका सोडून वाटेर चेड्या कडेन उलोवंक रावलें. नाचरें मेलें.

**सांतान** : ताका नाचों. तूं एक दोळ्यांत नाच कोर नाकाय. यो बोस.
(सांतान आजयेक खाटीर बसयता)

**रीना** : साकर देंवली?

**आजी** : कोणाची साडी देंवली? हे खातीर हॉस्पिटलांत हॉस्पिटलाचेच कपडे घालूंक जाय.

**सांतान** : आजये, दोळ्याचें जालें. आतां कानाचें केन्ना कोत्ता?

**आजी** : कानाचें ऑपरेशन करपाक हांव कितें भेड्डी?

**सांतान** : ना गे. तूं फूंय भेड्डी. आमचेच कान फुटल्याय.
(शांती येता. एक दोळो बांदला)

**शांती** : जाला गो माझा ऑपरेशन.

**सांतान** : तुकाय एकट्याकूच धाडली? नोर्स फूंय?

**शांती** : खेका कोण व्हयो? एकाच दोळ्याचा तर ऑपरेशन जाला. तुजा

जावंक ना ?

**सांतान** : ना. म्हुज्यांत साकोर मेळ्ळी फूंय.

**शांती** : म्हणान तुका सांगलालां. हे आजये कडे चड बोलांक नको म्हण. बोलतां बोलतां तिणें आपली साकर तुका दिली.

**आजी** : म्हाका कितें म्हणटा गो ?

**शांती** : कांय नाय गो. तुका कोण काय बोलतलो...रीना, आमचो बाबू काय म्हणटा ?

**रीना** : इतलो वेळ तुमकां सगळ्यांक सोदतालो तो.

**शांती** : दी बघया. वायत घेतंय (बाबूक घेता) काय रे बाबू? कसो आसंय तूं? दोळ्याचा ऑपरेशन करताना दोळ्या कडेन तुजोच चेहरो व्हतो. एका दिसानूच तुजी संवय जाल्यान. आतां तुका तुज्या आनी आमकां आमच्या घरा कडे जावंक व्हया.

(नर्स येता)

**नर्स** : आगे, ताका कित्याक घेतला ?

**शांती** : काय जाता घेतला म्हणान.

**नर्स** : निकतेंच दोळ्याचें ऑपरेशन जालां. वजन उबारूंक जायना हें कळना तुका ?

**शांती** : ऑपरेशन हाताचा नाय, दोळ्याचा जाला.

**नर्स** : हें तूं म्हाका सांगूं नाका. सांगता तें आयक. वजन उबारल्यार दोळ्याचेर पेज येता. दोळ्याचें प्रेशर वाडटा.

**शांती** : ह्या बाबूक खडे वजन आसा गो ?

**नर्स** : फुडलें सांगूं नाका गे. आयक म्हजें.

**शांती** : (रीनाक) घे गो बाबूक. हिची किरकिर कोण आयकतलो ?

(भुरग्याक रीना कडेन दिता)

**नर्स** : सगळीं आपापल्या जाग्यार रावात. दोळ्याक त्रास जातलो अशें कांयच करूं नाकात. आतां दोतोन्न येवन तुमच्या दोळ्या वयली पट्टी सोडयतली.

**शांती** : लगेच ? ऑपरेशन जाता थंय आसा. एक दीस तरी जावंक व्हयो.

**नर्स** : तूं कितें दोतोन्न गे ?

**शांती** : माझा पयल्यांदा केल्लां तेव्हा दुसऱ्या दिसा पट्टी उगडलेली.

**नर्स** : दोन दोन दीस तुमकां हॉस्पिटलांत दवरपाक इतल्यो खाटी नात. फाटल्यान जायतो लोक रावला.

**आजी** : तूं तिचें आयकूंक नाका गो. म्हजी आतांच पट्टी काडून धांवडावन घाल म्हाका. आठ दीस जावन गेले. वाज आयला म्हाका.

**शांती** : करात, काय करतां तां. दोळ्यांक लिंप दिसलां की जालां.

**नर्स** : आतां मातशी तोंड धांपून ओगी रावात. हांव दोतोन्नीक घेवन येतां. (नर्स भायर वता)

**सांतान** : तुमचें जालें ऑपरेशन? तुमी सुटलीं. हांव हिंगा उरलें.

**आजी** : कोण ओंकलो?

**सांतान** : बाबू ओंकलो.

**आजी** : फाटीर हात मार ताच्या.

**सांतान** : तुगे कानार हात मात्तां.

**आजी** : हय सारकें. तशेंच कर.

(अक्षया येता)

**अक्षया** : आयलीं तुमी सगळीं?

**शांती** : आरे, माझा पाडूक इलां. खडे आसला गो पाडका?

**अक्षया** : बाबून म्हाका ओलें केलें म्हणून हांव चँज करूंक गेल्लें (सांतानाक) तुज्या दोळ्यांर पट्टी कित्याक मारूंक ना?

**सांतान** : आगो, ताका साकोर आहा. तुगे चोंद्र गेलो?

**अक्षया** : हय. म्हाका आतां डिस्चार्ज मेळटलो.

**शांती** : घरा आवशेक सांगलां मुगो?

**अक्षया** : आरे! ना. (मोबायल लायता) हॅलो, मम्मी...म्हज्या दोळ्यांतलो चंद्र गेलो गे...हय, आतां डिस्चार्ज मेळटलो...कितें? तूं व्हरूंक येता? नाका गे. तूं येनाका....म्हणल्यार तुका कित्याक त्रास? हांव बशीन येता गे. ...कितें? येताच म्हणटा? बरें यो (फोन बंद करता) ही मम्मी सामकी हट्टी. (फोन लायता) हॅलो, खंय आसा रे? (तापून) खंय आसा रे? गाडी चलयता? हांव सांगता तें आयक. तूं म्हाका व्हरूंक येनाका...भेड्डेपणां करिनाका आँ...मोबायल शेंवटून मारतलें...तूं म्हाका व्हरूंक येनाका. म्हजी मम्मी येता....तूं खंय पावला? तूं खंय पावला रे? .....अर्दे वाटेर? चल तर परत. ...कितें जालें? कोणें धरलो? ट्रॅफिक पुलिसान? कित्याक? मोबायलाचेर उलयता म्हूण? तुका बायक थांबोवन उलोवंक येना आसलें? नेवींच तूं.....आतां कितें करूं काय म्हणून म्हाका विचारता...एक काम कर. मटको लागिल्लो ते पयशे ताका

दी....मोके? आतां चणे खावया. सवंग खंयचें. चल दवर...(फोन बंद करता) संवगूच मेलो.

(दोतोन्न हांसत येता. वांगडा नर्स आसा)

**दोतोन्न** : कशीं आसात तुमी सगळीं?

**अक्षया** : म्हज्या दोळ्यांतलो चंद्र गेलो. म्हाका बेगीन डिस्चार्ज दी पळोवया.

**दोतोन्न** : दितां, सगळ्यांक दितां. पयलीं हांचें जनेल उगडूया....कितें म्हणटा शांती, कशें जालें ऑपरेशन?

**शांती** : तुमीच बघा कसा जालां तां. पयलीं सारका दिसलां काय जालां.

**दोतोन्न** : दिसतलें. कांयच भियेवं नाका. पयलीं तुजीच पट्टी काडुया.

**अक्षया** : आतां शांती मावशेक लिंप दिसतलें.

(दोतोन्न शांतीच्या दोळ्या वयली पट्टी काडटा)

**दोतोन्न** : आतां ल्हव ल्हव दोळो उगड. (उगडटा) आतां दोळ्यार हात दवरून हांव कितें विचारता तें सांग (बोटां दाखयता) हे कितले?

**शांती** : दोन.

**दोतोन्न** : शाब्बास! आतां दिसता तुका.

**शांती** : म्हाका ह्या दोळ्यान दिसत नाय म्हण कोणी सांगलां? जो दोळो धांपला ताचा ऑपरेशन जालां.

**दोतोन्न** : आगे! (हांसता) पिशी मुगे तूं. ऑपरेशन जालां तो दोळो उक्तो दवर.

**शांती** : ह्या तुका अगोदर सांगपाक कळ्ळां ना गो.

(दुसरो दोळो धांपता)

**दोतोन्न** : आतां सांग....(बोटां दाखयता) हे कितले?

**शांती** : चार.

**दोतोन्न** : शाब्बास. आतां पयलीं सारकें लिंप दिसता मुगे?

**शांती** : हय गो शाण्या. घरांतलो हारसो पुसलो काय घरांत चकाचक दिसता तसा दिसता.

**दोतोन्न** : सांतान, तुका साकर मेळ्ळी मुगो?

**सांतान** : व्होय मुगो. सोसायटींत गेल्यार साकोर केन्नाच मेवना. म्होज्या आंगांत बोरी मेवली.

**दोतोन्न** : आतां हे आजयेचो दोळो पळोवया.

**आजी** : कावळो मागीर पळय. पयलीं म्हजो दोळो पळय.

दोतोन्न : (हांसता) हे आजये कडेन आयली काय म्हजें हांसप वाडटा. (आजयेच्या दोळ्या वयली पट्टी काडटा) आजये, आतां ल्हवू ल्हवू दोळे उगड (उगडटा) दोळ्यार हात दवरून सांग. (बोटां दाखोवन) हीं कितलीं बोटां? (आजी ओग्गी) सांग मगे कितलीं तीं?

आजी : कशें सांगूं? म्हाका कांय दिसना.

नर्स : ऑपरेशन केला तो दोळो उक्तो आसा मुगे?

आजी : हय गो. हांव कितें त्या शांती भशेन पिशी?

दोतोन्न : तुका खऱ्यांनीच म्हजीं बोटां दिसनात गे?

आजी : तूंच दिसना तीं बोटां खंयचीं दिसतलीं?

नर्स : आजये, सारकें सांग गे. फकांडां करूं नाका.

आजी : फकांडां करपाक हांव तुज्या वांगडचें गो? खरें तेंच सांगतां. ऑपरेशन केलां त्या दोळ्यान म्हाका कांयच दिसना.

दोतोन्न : अशें कशें जालें? (हांसता, मदींच रडटा) अशें कशें जालें?

रीना : दोतोन्न तूं, आनी आमकां विचारता?

आजी : हांव एका दोळ्यान कुड्डी जाली दिसता. लोक म्हाका भेड्डी म्हणी. आतां कुड्डीय म्हणटले.

शांती : तूं वायत तोंड बंद कर बघया.

आजी : कान बंद, दोळे बंद आनी आतां तोंडूय बंद दवरतां...हाल हाल करात म्हजे.. (रडटा)

नर्स : आजये, बेश्टीच रडूं नाका गे....दोतोन्न, तुमी कितें तरी सांगात.

दोतोन्न : कितें सांगूं? आजयेचें ऑपरेशन फेल जालें. आजी एका दोळ्यान कुड्डी जाली.

आजी : हांव कुड्डी जाली. (रडटा)

सगळीं : आजयेऽऽऽ (सगळीं आजयेक घट्ट धरतात)

नर्स : दोतोन्न ......

(नर्स दोतोन्नीक घट्ट धरता)

(ल्हवू ल्हवू काळोख जाता)

0000000000000000000000000000

## देखाव तीन

(उजवाड जाता. आजी एकटीच खाटीर बसल्या. भायर आवाज. 'सोडचे नात गे सोडचे नात जिखले बगर सोडचे नात')

**आजी** : दोळ्यांत मोती जाला म्हणून हॉस्पिटलांत आयलीं जाल्यार मेल्ल्यांनी म्हाका कुड्डें करून सोडली. इतले दीस हांगा रावन कितें फायदो जालो...अशें जाता म्हणून बरो मनीस सरकारी हॉस्पिटलांत वचना. खाजगी हॉस्पिटलांत वता. गरिबांक म्हण खाजगी हॉस्पिटल परवडूंक जाय न्हय ...ती दोतोन्न हांसून हांसून म्हजें हांशें करून गेली. मातशें दिसतालें तेंवूय ना केलें.

(आजी रडटा. सांतानाची सून येता)

**सून** : कोहलो बोबाळ चोल्ला भायर कोण जाणां...सोगळीं फूंय गेलीं? ही एकटीच आहा. सोगळ्यांचें ऑपरेशन जावन डिस्चार्ज मेवळो दिसोता. तोहें जाल्यार सासूमांय घोरा केशीं पावूंक ना...ती एकटीच उरल्या दिसोता....मांय...

**आजी** : कोण गो म्हाका मांय म्हणटा? हांव क्रिस्तांव दिसता गो तुका?

**सून** : तूं क्रिस्तांव न्हय गे, हांव क्रिस्तांव. आमी जाण्टेक मांय म्हण उलो मात्तांय.

**आजी** : तुमी म्हणूं गो. हांगा सगळीं म्हाका आजी म्हणटात. तूंय आजी म्हण.

**सून** : आजये, तूं म्हाका वळखोंक ना मिस्ता.

**आजी** : कशी वळखतली? दोळ्यान मातशें दिसतालें तेंवूय बंद जालें.

**सून** : आजी, हांव सांतानाची सून. जेवण घेवन येयली चोय.

**आजी** : कळ्ळें. कळ्ळें. सांतानाची सुबेज कामचोर सून.

**सून** : हिचे कोडें झोगडोन फायदो ना...आजये, सोगळीं फूंय गेल्यांत गे?

**आजी** : सगळीं व्हडल्या दोतोरा कडेन झगडूंक गेल्यांत. ते दोतोन्नीन म्हजें ऑपरेशन फेल केलें. मातशें दिसतालें तेंवूय बंद केलें. सगळीं व्हडल्या दोतोराक जाब विचारूंक गेल्यांत. पेपरवाले, टीव्हीवाले आयल्यात. एकट्यान म्हजो फोटो काडला. ह्या हॉस्पिटलाच्या कपड्यांनी फोटो कसो आयला कोण जाणां. पयलीं कळिल्लें जाल्यार चवथीक न्हेशिल्लें तें कापड तरी हाडटली आशिल्ली.

**सून** : मुगे सासूमांय गे? तिवूय झोगडोंक गेल्या?

**आजी** : हय तर. सगळीं म्हजे खातीर झगडटात.

(सांतान येता)

**सांतान** : सुने, तूं पोत्तोन येयली? तुका भितोर सोरताना चोयलें हांयें.

**सून** : तूं फूंय भोंवताय गे? हॉस्पिटलांत येयल्या काय हॉलिडेक गे? तूं बोरी मोजा मात्ताय हिंगा. म्हाका थिंगा त्रास काडूंक दोवोरलां?

**सांतान** : आमी व्होडल्या दोतोरासरीं गेलोलीं. तूं जाणाय हे आजी....

**सून** : गोमलें. तूं कित्या ते भानगोडींत पोडटाय गे? कोण लागता ती तुगे? भेड्‌डी, कुड्‌डी जाली म्होण काय फोरोक पोडना.

**आजी** : सांतान, तुजी ही सुबेज, कामचोर सून म्हाका कितें म्हणटा गो?

**सांतान** : कांय ना गे.

**सून** : हिंगा सोगळ्यांक म्हज्या बोद्दोल वायट सांगून दोवरलां मिस्ता.

**सांतान** : हांयें कांय सांवूंक ना.

**सून** : ऑपरेसांव जालें की तुका घोरा येवपाक गोमनासलें? हिंगा मोजा मारूंक रावोल्या?

**सांतान** : म्हजें ऑपरेशन जावंक ना.

**सून** : जावोंक ना? कित्याक?

**सांतान** : म्हाका साकोर आहा. ती देंवूह्नंक जाय फूंय. आनीक दोन तीन दीस...

**सून** : आनीक दोन तीन दीस? कांय गोरोज ना. फाल्यांच तुगे ऑपरेशन जावंक जाय. पोरवां फूंयचेय परिस्थितींत तूं म्हाका घोरा जाय. गोमलें?

(सून भायर वता)

**आजी** : सांतान, कशे दीस काडटा गो तूं हे राक्षिणी कडेन? असल्या वांगडा रावचे परस हॉस्पिटलांतूच राविल्लें बरें.

**सांतान** : व्होय. हिंगाच रावोंक मेळोंक जाय आसलें. काय बोरें जावपाचें.

**आजी** : सुटलां गो तूं? हॉस्पिटल कितें तुज्या बापायचें गो?

**सांतान** : आतां मोदींच मुगे पाय कित्या वोयर काडटाय गे?

**आजी** : तो अजून जितो आसा गो?

**सांतान** : ना.

**आजी** : मागीर मेल्ल्या मनशाक वयर काडल्यार कांय ना.

**सांतान** : तुकोडे उलोवन फायदो ना. हांव वोयतां.

**आजी** : भायर कितें जालां तें सांगूंक ना मुगो तुवें.

**सांतान** : सोगळीं भायर न्याय जाय, न्याय जाय म्होणटाय.

**आजी** : पाय जाय? तो मेलो म्हणटाली मुगे तूं.

**सांतान** : पाय न्होय न्याय. तूं जाणांय ती दोतोन्न इतो भियेल्या की तिगे हांसोप सोमतें बोंद जालां.

(शांती आनी रीना येता. रीनाच्या हातांत भुरगें. शांती हॉस्पिटलाच्या कपड्यांत ना )

**दोगांय** : सोडचीं नात गे सोडचीं नात, जिखले बगर सोडचीं नात.

**सांतान** : जिखल्या बोगोर कित्याक म्होणटाय गो? दिसल्या बोगोर म्होणात.

**शांती** : ह्या सारकां. म्हणात सगळीं.

**सगळीं** : सोडचीं नात गे सोडचीं नात, दिसले बगर सोडचीं नात.

**शांती** : आनी हडेच्यान हालचीं नात म्हणात.

**सगळीं** : हालचीं नात गे हालचीं नात, दिसले बगर हालचीं नात.

**शांती** : आजये, तूं कांय पन भियांक नगो. तुका न्याय मेळटलोच. तूं जाणंय मी मोठ्या दोतोराक इंग्लिशींतल्यान असो दम दिल्यान. म्हटलां नो लुकींग आयज (दोळे), नोट गोयिंग आयज. बाबड्यान एक शब्द तोंडांतल्यान काडलो ना.

**रीना** : कसो काडटलो? ताका तुमची इंग्लिश कळूंकच ना.

**सांतान** : आता मुखार कित कोरपाचें?

**शांती** : आनी काय करतलंय. जा काय करूंक व्हया ता ती दोतोन्न करतली. आजयेक दोळ्यांच्या बदला दोळेच दिवंक व्हये.

**आजी** : आतां मर्दींच पोळे कित्याक? आनी हॉस्पिटलांत कोण काडटात पोळे?

**सांतान** : माक दिसोता दोळ्यांच्या बोदला कान मागलोले बोरें.

**आजी** : सारकें उलयलें सांतान. हे शांती म्हज्या जिवार उठलां. दोळ्यांच्या बदला पोळे खंय.

**शांती** : आजये, काय पन बोलांक नको गे. आमचा ऑपरेशन जालां. डिस्चार्ज पन गावलो तरी आमी मोठ्या दोतोरांक सांगलां की जे मेरेन आमचे आजयेच्या दोळ्यांत दिसत नाय, ताची चवकशी जायत नाय ते मेरेन आमी हॉस्पिटलांतल्यान हालची नाय.

**सांतान** : एके वोटेन बोरें जालें. माक वांगोडी मेवळी.

(अक्षया येता)

अक्षया : सोडचीं नात गे सोडचीं नात, जिखले बगर सोडचीं नात.

शांती : आगो पाडका, मोठ्यान आड्डांक नगो. ताळो फुटत.

अक्षया : तुमी हांगा केन्ना आयलीं? हांव तुमकां भायर सोदतां.

रीना : तूं उमेदीन शें दिसता गो?

आजी : म्हजे दोळे गेले म्हणून उमेद जाल्या दिसता ताका.

अक्षया : म्हाका कित्याक उमेद जातली गे? हांव वयल्यान सगळ्यां परस मोठ्यान आड्डून झगडलां.

शांती : आतां काय करूंचा तां आमी बायलां करतत. तूं घरा कडे जा.

अक्षया : ना. हांव तुमच्या वांगडा रावतलें.

सांतान : तुगे मांय येवपा आहा मुगो?

अक्षया : ती येवन गेली. हांवें तिका परत धाडली. तुमी आसात ते मेरेन रावतलें हांव. (दोतोन्न येता)

दोतोन्न : कितें चल्लां? जात्रा भरल्या? आपापल्या जाग्यार बसात. (सगळीं आपापल्या जाग्यार बसतात) आनी तूं (रीनाक) हांगा कितें करता गो? बाळंटीच्या वॉर्डांत खाट दिल्या मुगो तुका.

रीना : जे मेरेन न्याय मेळना ते मेरेन हांव ह्याच वॉर्डांत हांच्या वांगडा रावतलें.

दोतोन्न : तुजो न्हय जाल्यार तुज्या भुरग्याचो विचार कर.

रीना : ताचो विचार तुमी करुनाकात.

दोतोन्न : तुमी जें कितें करतात तें बरें करिनात.

शांती : आनी तूं केलां तां बरां केलां?

दोतोन्न : हांवें कितें मुद्दम केलां? खंय तरी चूक जाल्या आसतली. पळोवंक जाय खंय चुकलां तें.

शांती : काय बघूचा आसा तां लवकर बघ. आमकां लवकर न्याय व्हयो.

दोतोन्न : न्याय मेळटलो, पूण तुमी नाका जाल्लो हट्ट करूनाकात. (अक्षया हांसता) मदींच हांसलें कित्याक गो खेतें कशें?

अक्षया : म्हाका कित्याक खेतें म्हणटा? स्वताचे चुकीचो राग म्हजेर कित्याक काडटा?

दोतोन्न : हांसलें कित्याक तर तूं?

अक्षया : ह्या बोवाळांत तुजें हांसप बंद जालें म्हण हांसपाक आयलें.

दोतोन्न : हे आजयेच्या बोवाळांत म्हजें हांसप बंद जालें.

**आजी** : म्हाका कुड्डेपणां दिवन कसले आरोप करतात गो म्हजेर?

**दोतोन्न** : आजये, तुका सांगतां आँ. जालें तें खूब जालें. म्हजो आनीक जीव खायनाका.

**आजी** : खातली. हांव आतां म्हाका जाय तें खातली. हें खायनाका, तें खायनाका म्हणून निमाणें म्हाका कुड्डी केलीच.

**दोतोन्न** : पांयां पडटां, मातशी ओगी राव (मोबायल वाजता) हॅलो...कितें? रिहर्सल? कसली रिहर्सल? नाटकाची? हांव येना नाटकांत. तुमी दुसरी राक्षीण पळयात. हांव हांसप विसरलां. कितें? म्हजे परस बरी राक्षीण मेळची ना? आतां तूंय म्हाका राक्षीण म्हण...हांगा सगळीं म्हाका खऱ्यांनीच राक्षीण समजतात. चल, दवर फोन. (मोबायल कट करता) चल गे आजये.

**आजी** : खंय व्हरता म्हाका?

**दोतोन्न** : चूक खंय जाली ती पळोवं नाका? तोंड धांपून ओगी यो गे.

**आजी** : ही नर्स खंय गेली?

**रीना** : लिपलां आसतलें. आजयेचे दोळे परत येना जाल्यार नोकरी वतली.

**दोतोन्न** : आमी पेशंटांची दुस्मान न्हय. दर एका दोतोराक पेशंट बरो जावनूच गेल्लो जाय आसता. केन्ना केन्ना बारीक चूक जाता. तुमीय म्हूण समजूंक जाय. तें बाबडें आदींच डबल ड्युटी करतालें. आतां हें मॅटर जाग्यार पडसर रावचें पडलें ताका.

**आजी** : आतां तुजी बडबड बंद कर. चल, व्हर म्हाका. तुमी लक्ष दियात गो ताचेर.

**अक्षया** : आजये, तूं कांयच भियेवं नाका. तुजो दुसरोय दोळो गेलो जाल्यार आमी मोठ्यान आड्डतलीं. सोडचीं नात गे सोडचीं नात.

**दोतोन्न** : चूप. हांव परत येसर म्हाका कोणाचोच आवाज नाका. सांगतां तुमकां सगळ्यांक. खंय चुकलां हें कळसर मातसो धीर धरात. (दोतोन्न आजयेक भायर व्हरता)

**आजी** : सांबाळून व्हर. तिडकीन म्हाका खंयूय उडयशीत.
(दोगांय वतात)

**सांतान** : म्हाका दोतोन्नीची काकुळट दिसोता. बाबडी केद्या मोठ्यान किटकिटटाली, आतां कोडकोडटा.

**शांती** : तां सांगता ताय खरां गो. जाता एकएकदां चूक, पन आमी चूक दाखोवन दिवंक व्हयी. धडो शिकोवंक व्हयो नायतर चुको जायत

रावतल्यो. (नर्स येता)

**अक्षया** : ही पळय, नर्स आयली.

**सांतान** : फूंय लिपोन राविल्लें गो?

**नर्स** : लिपून रावपाक हांवें कितें चोरी करूंक ना. तुमी जें कितें करतात तातूंत तुमचें समाधान जालें काय जालें.

**शांती** : कसलें समाधान गो? आमी काय करतंय ता काय मजा म्हण करतंय?

**रीना** : ते आजयेच्या जाग्यार तुजी आवय आशिल्ली जाल्यार तूं कितें करपाचें?

**नर्स** : कोण मुद्दम काय करिना न्हय. जाता चूक, सोडून दियात. म्हाका तुमचे कडेन वाद घालपाचो ना. आदींच डबल ड्युटी आशिल्ली. आतां हें मॅटर जाग्यार घालीसर घरा वचूंक मेळना...सगळीं जाणां ह्या (हातांतलो पेपर दिता) पेपरार आपापलीं नांवां बरयात.

**सांतान** : कित्याक म्होण?

**नर्स** : प्रस्न विचारूं नाकात. सांगता तें करात.

**शांती** : हडेन दी कागद मी सगळ्यांचा नांव बरयतंय.

**नर्स** : स्वताची तकली कित्याक वापरता गे? सगळीं स्वताच्या हातान आपापलीं नांवां बरयात.

**शांती** : तुका आमचीं नांवां माहीत नाय गो? हॉस्पिटलाच्या कागदार बघ मुगो.

**अक्षया** : ही नर्स आमचें कितें तरी आपल्या नांवार करूंक सोदता.

**नर्स** : आवट्या भशेन कित्याक उलयता गो? नांवां बरोवंक लायल्यांत, सय करूंक लावंक ना.

**अक्षया** : म्हाका हे नर्शीचें धड लागना. आमी बोवाळ घाला म्हणून तें आमचीं नांवां पुलिशेक दिता दिसता.

**नर्स** : मातशें तुजें तोंड बंद दवर आनी नांवां बरयात.

**शांती** : आयकात गो ताचां. नांव बरयलां म्हूण काय जाता. आंगठो मात लावं नाकात. दी तो कागद. सगळ्यांत अगोदर मीच बरयतंय. (बरयता) शांती रामदास पेडणेकार... पत्तो बरोवंक व्हयो?

**नर्स** : नाका..सांतान, आतां तूं बरय.

**सांतान** : (बरयता) सांतान कायतान कार्वालो.

**अक्षया** : दी. आतां हांव बरयतां. (बरयता) अक्षया नारायण नायक. आतां

रीना मावशेक बरोवं दी.

**नर्स** : तिका नाका. ती कितें दोळ्यांची पेशंट?

(आजी येता)

**आजी** : कोण तरी आदार दियात गो म्हाका.

**नर्स** : आगे, तूं एकटी कशी आयली?

(नर्स आजयेक धरून जाग्यार बसयता)

**आजी** : तूं हांगा आसा मुगो. कोण हाडटलो म्हाका?

**नर्स** : भायर दुसरी नर्स आशिल्ली मुगे.

**आजी** : तेंच म्हाका घेवन येतालें. वाटेर ताका एक चेडो मेळ्ळो. म्हाका सोडून लागलें ताच्या वांगडा चकाटां मारूंक. सगळींच नाचरीं.

**सांतान** : दोतोन्नीन भायर व्हरोन कित केलें गे?

**आजी** : कांय ना. परत परत दोळ्याचेर बॅटरी मारली. रगतूय काडलें. रगत काडून काडून म्हाका कुड्डी केली.

**नर्स** : आजये, आजये, स्वताक कुड्डी समजूं नाका. सगळें सारकें जातलें. तूं पयली भशेन सगळें पळोवंक शकतली. तूं कांयच भियेवं नाका, आँ.

**आजी** : अचकीत बरें गोड उलोवंक लागलें मुगो तूं. म्हजी साकर तुज्यांत गेली काय कितें?

**अक्षया** : भियेलां तें.

**नर्स** : तुजें तोंड मातशें बंद दवर. आजये, मातशें ह्या कागदार तुजें नांव बरय.

**आजी** : कितें भरय म्हणटा गो तें?

**सांतान** : पेडो भोरय फूंय.

**नर्स** : आतां तुमी तिचे तकलेंत नाका जाल्लें भरूं नाकात.... आजये, बरय तुजें नांव.

**आजी** : बरय गो अक्षया.

**नर्स** : तूंच बरय गे.

**आजी** : तुका म्हाका पळयल्यार कळटा गो, हांव शिकल्या कशी?

**अक्षया** : हांव बरयतां.

**नर्स** : कांय गरज ना. हांव रोखडें येता. तुमी बोवाळ करिनाकात. कुशीच्या वॉर्डांतल्या पेशंटांक त्रास जावंक जायना. येता हांव.

(नर्स भायर वता)

**शांती** : काय तां लवकर जाल्यार पुरो. आमच्या हट्टाक लागान फाटल्यान रावल्यात त्या पेशंटांक खेका त्रास.

**आजी** : म्हजें कितें जातलें तेंच कळना. (रडटा)

**सांतान** : रोडनाकाय गे. तुका मेवतलो न्याय.

**आजी** : पाय मेलो म्हणी मगो तूं.

**सांतान** : आजये, निमाणें सांगोता. दोळ्याचें जालें काय कानाचें जाग्यार उडय. (दोतोन्न येता)

**अक्षया** : दोतोन्न आयली.

**शांती** : काय जालां गो ? कयळा खडे काय चुकला तां ?

**दोतोन्न** : हय. आजयेचें ऑपरेशन करून आमी चूक केली.

**शांती** : म्हणजे ?

**दोतोन्न** : आजयेची साकर देंवकूच नासली. म्हणून ऑपरेशन फेल जालें.

**आजी** : फट उलयता तूं. साकर देंवक नासली जाल्यार म्हजें ऑपरेशन कशें केलें तर ?

**दोतोन्न** : तीच तर चूक जाली. तुजें सकाळचें रगत आनी आतांचेंय तपासलें. साकर देंवकूच ना.

**शांती** : पन ह्या तुमकां ऑपरेशन करचे आदीं कसा कळांक नाय ?

**दोतोन्न** : आमी रिपोर्ट पळोवन आजयेक भितर व्हेली. सकाळचो रिपोर्ट चुकीचो आशिल्लो.
(नर्स येता)

**नर्स** : ना दोतोन्न. सकाळचो रिपोर्ट चुकीचो नाशिल्लो. हांवें सगळी म्हायती काडली. सगळें जाणून घेतलें. आतां सत्य कितें तें मुखार आयलां.

**दोतोन्न** : कसलें सत्य ?

**नर्स** : आजयेची साकर देंवूक ना.

**शांती** : ह्या तूं नवीन काय सांगलां ? दोतोन्नीन तांच तर सांगलां. कोणाचा खडे चुकला तां सांग.

**नर्स** : कोणाचेंच चुकूंक ना. सदांच रिपोर्ट पळोवन दोतोन्न ऑपरेशन करता पूण जो रिपोर्ट आजयेचो समजून ऑपरेशन केलें तो रिपोर्ट आजयेचो नासलोच.

**अक्षया** : कोणें रिपोर्ट तयार केला ताका धरया. बोवाळ घालया.

**शांती** : आगो पाडका, वायत धीर धर.

**दोतोन्न** : नर्स, तूं म्हणटा तें कशें जावं येता?

**नर्स** : आजयेचो रिपोर्ट चुकीचो नाशिल्लो जाल्यार रिपोर्टाचेर नांव चुकीचें आशिल्लें. आजयेच्या रिपोर्टाचेर कोणें तरी नांव बदल्लें.

**दोतोन्न** : नांव बदल्लें? कोणें केलें हें? हॉस्पिटलांतल्या सगळ्या स्टाफाक हाडून विचारया.

**नर्स** : हें काम हॉस्पिटलांतल्या स्टाफाचें न्हय जाल्यार ह्याच वॉर्डांतल्या एकल्याचें.

**शांती** : काय? म्हणजे आमच्यांतल्याच कोणें तरी केलां? कोणें केलां आनी खेका?

**नर्स** : ह्या प्रस्नाची जाप तेंच दितलें, जाणें हें केलां....तुमकां आयकुपाचें आसा ताचें नांव? आयकात तर....ताचें नांव...सांतान.

**आजी** : सांतान? कित्याक गो तुवें अशें केलें? कित्याक केलें?

**शांती** : काय गो सांतान? आमी काय आयकतंय ह्या.

**सांतान** : ना. हांवें कांय करूंक ना.

**नर्स** : फट उलोवं नाका. सकाळीं ऑपरेशन थेटरा भायर सगळ्यांचे रिपोर्ट आशिल्ले. कोण ना तें पळोवन तुवें आजयेच्या रिपोर्टार स्वताचें नांव घालें आनी ह्वस्वताच्या रिपोर्टार आजयेचें. दोन रिपोर्टांत खाडाखोड पळोवन म्हाका दुबाव मारिल्लो. कोणें केलां हें जाणून घेवपाक तुमकां तुमच्या हॅण्डरायटींगांत नांवां बरोवंक लायलीं. सांतान, रिपोर्टांत तुजेंच हॅण्डरायटींग जुळटा.

**दोतोन्न** : सांतान, तूं पुराव्या सयत सांपडलां. चूक मान्य कर. नाजाल्यार हांव पुलिसांक आपयतलें.

**सांतान** : नाका. नाका. पुलिसांक आपोवं नाका. होय, हायेंच रिपोर्टांतलीं नांवां बोदोल्लीं.

**दोतोन्न** : तशें जाल्यार तुका डायबेटीज ना तर?

**सांतान** : ना. मुगे रिपोर्ट नॉर्मल आहलो.

**दोतोन्न** : हें सगळें करपाक कारण कितें?

**सांतान** : म्हाका बेगीन घोरा वोचपाचें ना. हिंगाच रावपाचें आहा. म्हाका हिंगा रावोप आवोडटा.

**दोतोन्न** : हें हॉस्पिटल तुका तुजें घर कशें दिसलां गे?

**सांतान** : ना. घोर कोशें दिसोना. म्हणोन तोर हिंगाच रावोंक सोदतां. म्हाका घोर नासल्यार जाता पूण मोग कोरणारीं मोनशां जाय...काजार

जावन दोन वोर्सांनीच एका भुरग्याक झोळयेंत घालून मुगे घोरकार गेलो. हायें हिंगां थिंगां काम करून मुगे पुताक ल्हानाचो व्हड केलो. म्हातारपणांत पूत सूख दितोलो हे आशेन जोगलें... पूत व्हड जालो. काजार जालो, चोड दुडवांचे आशेन भायर गेलो...कितो सांगलें, भायर वचों नाका रे पुता ...मुगे म्होऱ्यांत राव, दोळ्यां सामकार राव पूण तो आयकोलो ना. पूत भायर गेलो आनी सुनेन आपलें खोरें रुप दाखोयलें. स्वता राणी जाली आनी म्हाका वावराडी कोरून दोवरली. पुताची आनी सुखाची वाट चोयतां चोयतां दोळ्यां कोडें साय येयली. दोळ्याच्या निमतान ह्या हॉस्पिटलांत म्हाका मातसो विसव मेवळो. हिंगा तुमकोडे उलोयलें, हांसलें, नाचलें.. ज्या मोनशांच्या मोगाक, उतरांक तोळमोळटालें तें सूख म्हाका हिंगा मेळ्ळें. घोरपोण मेळ्ळें पूण हांव जाणा आहलें, मुगे हें सूख फोकोत दोन दिसांचें. दोन दिसां उपरांत म्हाका पोत्तून त्या नोर्कांत वोचोंक जाय आसलें. हो इचारूच म्हाका सोहन जायना जालो. हांवें थारायलें कित तोरी कोत्तेलें पूण हिंगाच्यान बेगीन भायर सोरचें ना...

**दोतोन्र** : मागीर हांगा रावपा खातीर तुवें हो पर्याय निवडलो?

**सांतान** : व्होय. साकोर आहा म्होण आठ दीस जाले आजी हिंगाच आहा. हांवूंय तोहेंच रावतोलें म्होण चिंतलें.

**दोतोन्र** : स्वता सुखाच्या उजवाडांत रावपा खातीर तुवें दुसऱ्याक काळखांत उडयलें.

**सांतान** : ओशें कित जातोलें म्होण म्हाका फोबोर नासलें.

**रीना** : सांतानान जें केलां तें चुकीचें आसत पूण तिचे परिस्थितीन तिका अशें करपाक भाग पाडलें.

**दोतोन्र** : त्या घरांत तुका सूख ना जाल्यार कित्याक रावप? हांव तुका सुखाच्यो चार वण्टी दितां. तुका एका वृद्धाश्रमांत दवरतां. थंय कोणाची कसलीच कटकट ना. तुजे सारकीं कितलिंशींच बायलां थंय आसात. तुका भरपूर इश्टिणी मेळटल्यो. चेड्याचो तुजेर मोग आसा जाल्यार येवन मेळटलो तुका.

**अक्षया** : हय. तूं वृद्धाश्रमांतूच राव. ते कुसके सुनेक एकटेकूच रावूं दी. सदांच एकटेकूच घरचीं कामां करचीं पडटलीं तेन्ना तुजो वालोर कळटलो तिका.

**आजी** : ताचें जालें. आतां म्हजें कितें?

**दोतोन्न** : भियेवं नाका. तुजी साकर देंवली काय तुजें परत ऑपरेशन करूया. आनी बाकीचीं, तुमकां डिस्चार्ज मेळ्ळा. तुमी बरीं करून घरा चलात.

**सांतान** : (आजयेक) आजये, म्हाका गुन्यांव भोगशी.

**आजी** : आसूं गो. तुवें कितें मुद्दम करूंक ना.

**अक्षया** : आमी तुका वृद्धाश्रमांत मेळूंक येतलीं.

**रीना** : पूण ताचे आदीं तुमकां सगळ्यांक आमगेर येवचें पडटलें.

**अक्षया** : कित्याक ?

**रीना** : कित्याक म्हणल्यार ? तुमी म्हाका फुलां माळ्ळीं आतां बाबूच्या बारशाक येवचीं नात ?

**शांती** : बारशाक तर जावंकूच व्हया. आमच्या बाबूच्या बारशाची तयारी आमीच करतलीं.
(अक्षयाक) काय गो पाडका ?

**अक्षया** : हय तर. हांवूंय येतलें बारशाक. हांवें बारसो केन्ना पळोवंक ना.
(आजी हांसता) आजये, हांसली कित्याक गे ?

**आजी** : हारसो केन्ना पळोवंक ना म्हणटा मुगो तूं? तोंडार पावडर कसो थापता तर ?

**शांती** : ए अनामिका आजी

**आजी** : कितें ?

**सगळीं** : चूऽऽप.
(दोतोन्न मोबायल लायता)

**दोतोन्न** : हॅलो... हांव करतां आँ नाटकांत रोल. तुमी दुसरी राक्षीण घेवंक ना न्हय ? कितें ? हांसप विसरली ? कित्याक विसरली ? दाखोवं हांसून ?
(दोतोन्न मोठमोठ्यान हांसता)

**शांती** : आरे! ही लागली परतून हांसोंक. चलात गो बायांनो चलात.
(दोतोन्न हांसत रावता. बाकिचीं आपापलें सामान लागीं करून भायर धांवतात)

(ल्हव ल्हव पड्डो पडटा)

(सोंपता)

